# जाग

वर्स २७ : आंक ८ : मार्च २००१

पाद्री : रवीन्द्र केळेकार

वुतो संपादपी : माधवी सरदेसाय

जडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

क्ष जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव

पो : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय

व चित्र : रवीन्द्रनाथ ठाकूर

## ह्या आंकांत



वर्सुकी पटी : रु. १०० /-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-
चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

हाराचो नामो :
ग म्हयनाळें :
०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
अ द साउदादिश, पाजीफोंड
गांव - गोंय ४०३ ६०१.

रकोळ आंकाचें मोल : रू. ९/-

# नदर संपादप्याची

## फकत कर्तुत्व खरें ?

स्वर्गसुखाचें एक चित्र उमर खय्यामान आमचे मुखार दवरलां -

Here with a loaf of bread
Beneath the bough
A flask of wine, a book of verse
and thou beside me
Singing in the wilderness
and wilderness is paradise enow.

पुणून हे तरेचें जिवीत कोणाक जियेवंक मेळ्ळां ? खासा उमर खय्यामाक तरी मेळिल्लें काय कितें, दुबावूच आसा. आपणाक जाय आशिल्लें ते तरेचेंय जिवीत कोणाक जियेवंक मेळूंक ना. कितल्योश्यो प्रेरणा आनी शक्ती जिवितांत काम करतात. त्यो आमच्या हातांत नासतात. आमकां त्यो हेवटेन तेवटेन ओडीत व्हरतात आनी मनांत नाशिल्लेंच आमच्या जिविताक एक रूप दितात, एक आकार दितात.

आयज पिरायेच्या ७७व्या वर्सांत पावल दवरतना फाटल्या ७६ वर्सांच्या काळा वयल्यान एक नदर भोंवडायतां तेन्ना प्रस्न पडटा, ज्या समाजांत जल्म घेतलो तो समाज म्हाका दायजान मेळूंक नाशिल्लो, जे आवय बापूय मेळ्ळे ते मेळूंक नाशिल्ले, देश गुलामींत पडिल्लो ताका गुलामींतल्यान सोडोवपाच्यो चळवळी देशांत चलूंक नाशिल्ल्यो, त्या चळवळींनी पडूंक पावूंक नाशिल्लों, आनी तातूंत ज्या आगळ्या वेगळ्या लोकांचो सांगात मेळ्ळो तो मेळूंक नाशिल्लो, तांचे कडल्यान मेळ्ळी ती नदर मेळूंक नाशिल्ली जाल्यार हांव हांव जावंक पावतलो आशिल्लों? म्हज्या हाता भायल्या गजालिंनी म्हाका घडयला.

नियती, दैव, भाग्य खरें नासू. पुणून फकत कर्तुत्वूच खरें म्हणटात तें खरें न्हय. उमर खय्यामूच म्हणटा -

The moving finger writes
And having writ, moves on.
Nor all thy piety, nor wit
Shall lure it back
To cancel half a line
Nor all thy tears
Wash out a word of it.

७-३-२००१

## खरो धर्म

खेळपाक बावली मेळ्ळी जाल्यार सरसमान खंयचेंय भुरगें तिचे वांगडा खेळत बसतलें. तिका खावयतलें, पियवतलें, न्हेसयतलें, न्हिदयतलें, तरांतरांचे खेळ खेळून तिचे वांगडा दीस सारतलें. बावले वांगडा खेळटा आसतना ताका ताचे सारकें दुसरें जिवें भुरगें खेळपाक मेळ्ळें जाल्यार, बावलेक कडेक उडयतलें आनी भुरग्या वांगडा खेळत बसतलें.

खेळपाक भुरगें मेळिल्लें आसतनाय तें भुरग्याक सोडून बावले वांगडा खेळत रावलें जाल्यार सरसमान भुरग्यां सारकी हाची वाड जावंक ना अशेंच मानचें पडटलें. आनी, जाणटें जाले उपरांतूय तें, धरुंया, बावले वांगडाच खेळत रावलें जाल्यार हें भुरगें अर्दकुटेंच उरलां अशें म्हणचें पडटलें.

देवा कडेन पावतकूच खुबशा जाणांची अशीच गत्त जाता. देव सगळे कडेन आसा, सगळ्यांत आसा म्हणपाचें सगळेच जाणात. पुणून असल्या देवाच्या रुपा-गुणांचो अदमास सगळ्यांक करूंक येना. म्हूण मनीस ताच्यो मुर्ती घडयता. ह्या मुर्तींक कांय गूण दसयता. मागीर, तांची पुजा करपाक लागता. आनी पुजेंतच आयुष्यभर तल्लीन जाता. मुर्तिंचो उपेग आसा, ना अशें न्हय. पुणून अमकेच एके पिरायेर, अमकेच एके अवस्थेंत, अमक्याच एका पांवड्यार आसतना. सदांकाळ न्हय. कांय काळान मनशाक मुर्ती पेल्यान वचूंक येवंक जाय. मुर्ती-पुजेच्या वयल्या पांवड्यार ताका चडूंक येवंक जाय. ना जाल्यार, ताची धर्मसाधना अर्दकुटीच उरल्या अशें म्हणूंक जाय.

रवीन्द्रनाथ कवी खरे. पुणून सरसमान कवीं सारके न्हय; ते एक साक्षात्कारी कवी आशिल्ले. देवाक वळखताले. **आमि जेनेछि ताहारे** अशें उपनिषदांतल्या रुशीं भाशेन आत्मविस्वासान ते सांगताले. **गीतांजली, नैवेद्य, उत्सर्ग** हे सारकेले तांगेले काव्यां झेले पुरो, तांचे धर्मसाधनेची जातकुळी खंयची ती कळपाक. तांची एक चीट वाचूंक मेळ्ळी. ते म्हणटात -

'म्हजे संबंदान तरांतरांचे समज पातळ्ळ्यात. तांतलो हांव निर्गूण, निरंजन, निर्विशेष ईश्वराचोच साधक म्हणपाचो एक. एके नदरेन खरो तो. कित्याक, जंय सगळेंच शून्य, थंय सगळेंच पूर्ण आसता. सदांकाळ बावली घेवन खेळत बसप म्हाका जमपाचें ना. म्हज्या भुरगेपणांत एक पुजारी आमचे बागेंतलीं फुलां पुंजावन देवळांत पुजा करपाक वतालो. ताका पळोवन ते पिरायेर लेगीत हो देवाक फटयता, हाचे आड पुलिसेंत केश करूंक जाय अशें म्हाका दिसतालें... हांव देवळांत वचना तो निर्विकार निरंजन ईश्वराचो अवमान जाता म्हूण हें खरें न्हय. मनशाची उवेखणी जाता, दुर्लक्ष जाता, तो आमचे सेवे पसून कडेक पडटा, अशें दिसता म्हूण वचना. देव मनशां भायर ना. आमच्या देशांत देव-भक्तिच्या नांवान मनशांचो अवमान जाता तो हांव पळेतां. तांच्यो पिडा, तांचीं दुख्खां, तांचें दळडीर ना जायना हाचें कारण हो **चिरशिशुंचो** देश -सदांकाळ भुरगेमतींत उरिल्ल्या लोकांचो देश. भातुकली खेळून सगळ्यांचीं दुख्खां ना करपाची जापसालदारकी ताणें आपणाल्या आंगार घेतल्या... फाटीं एक फावट मदुराईचें देवूळ पळोवपाक गेल्लों. थंय देवाच्या आंगा वयले लाखांनी रुपयांचे दागिने म्हाका देवळाच्या जाळवणदारांनी हड्डें फुलोवन दाखयल्ले. तेन्ना म्हजी मान खंतीन आनी लजेन बागवल्ली. लाखांनी लोकांचें दळडीर आनी अज्ञान, तांच्यो पिडा आनी दुख्खां म्हाका त्या दागिन्यां भितर एकठावल्लीं दिश्टी पडलीं. देवळा भायर हाडां-सांपळो जावन येतल्या वेतल्या मुखार हात फुडें काडून भीक मागपी उबो राविल्लो खरो देव म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो. आनी म्हजें मन खंतीन भरून आयिल्लें... तरूय तुमी म्हाका निरंजन, निर्विशेषाचो साधक मानतात?...'

रवीन्द्रनाथांचो देवा विशिंचो समजूय नितळ आशिल्लो आनी ताची पुजा कशी करची हे विशिंचो मार्गूय तांचे मुखार स्पश्ट आशिल्लो. एका गितांत ते म्हणटात, भजन पूजन साधन आराधना, दवर तें सगळें कुशीक. देवळाचीं दारां बंद करून, काळखांत आपणाक लिपोवन तूं कोणाची पुजा करता ? दोळे उकते करून पळे, जाची तूं पुजा करता तो देव देवळांत ना.

*भजन पूजन साधन आराधना*
*समस्त थाक् पडे ।*
*रुद्धद्वारे देवालयेर कोने*
*केन आछिस ओरे ।*
*अंधकारे लुकिये आपन मने*
*काहारे तुइ पुजीस संगोपने*
*नयन मेले देख देखि तुइ चेये*
*देवता नाइ घरे ।*

देवळांत ना, जाल्यार तो खंय आसा?

तो पळे, शेतकामती नांगर घेवन शेतांत देंवला; ते पळे कांय मानाय खडी फोडून रस्तो तयार करतात; तांचे सरीं तो वचून रावला. बाराय म्हयने तो तांचे वांगडा काम करता.

*तिनि गेछेन जेथाय माटि भेंगे*
*कर छे चाषा चाष -*
*पाथर भेंगे काटछे जेथाय पथ*
*खाटछे बारो मास ।*

ओतांत, पावसांत तो हांचे वांगडा काम करता. हात पळे ताचे कशे धुल्लान भरल्यात ते, देव जाय मरे तुका? तुजीं इस्त्री केल्लीं लुगटां कडेक उडय, सोंवळें ओंवळें भायर मार आनी करूंक लाग तांचे बरोबर मातयेंत वावर.

*रौद्रे जले आछेन सबार साथे,*
*धुला तांहार लेगेछे दुइ हाते;*
*तांरइ मतन शुचि बसन छाडि*
*आय रे धुलार पथे ।*

मुक्ती? कसली मुक्ती? मुक्ती आसाच पयलीं खंय? आरे, जाणें येदोय व्हडलो हो संवसार रचलो ताणें आपणाकूच तरांतरांच्या बांदपासांनी आपणाक ह्या संवसारा कडेन बांदून घेतला.

*मुक्ति? ओरे, मुक्ति कोथाय पाबि,*
*मुक्ति कोथाय आछे ।*
*आपनि प्रभु सृष्टिबांधन परे*
*बांधा साबार काछे ।*

सोड तें ध्यान. कडेक दवर फुलांची दाली. लाग कामाक ह्या सगळ्यां बरोबर. पोरणीं जावं दी, पिंजून वचूं दी तुजीं लुगटां. लागूं दी माती तुज्या पुराय आंगाक. ह्या लोकां वांगडा एकरूप जावन काम करशीत जाल्यारूच तुका देवाची भेट जातली.

*राखो रे ध्यान, थाक रे फुलेर डालि,*
*छिंडुक वस्त्र, लागुक धुलाबालि,*
*कर्मजोगे तांर साथे एक हये*
*धर्म पडूक झरे ।*

पुणून हे तरेची पुजा सगळ्यांक जमपाची ना. लोकांक संवय जाल्या चार हातांच्या, पितांबर न्हेशिल्ल्या, गळ्यांत वैजयंती माळ घाल्ल्या, हातांत मुरली घेवन उबो राविल्ल्या साळका सारक्या दोळ्यांच्या पाशाणाच्या देवाची पुजा करपाची. ताच्या पांयांर तकली दवरप सोंपें. जिव्या देवाच्या पांयार तकली दवरूंक येत व्हय? कित्याक, जिवो देव गरीब-दुबळ्या, नागवल्ल्या

ल्ल्या, चिड्डल्ल्या चेपिल्ल्या, समाजान आपणा पसून पयस ल्या लोकां मदींच वचून बसला. ताच्या पांयांर तकली दवरपाक जाय शिली नमळाय आमच्यांत ना. आमी अश्या एका संस्कारांत वाडल्यात ह लोकां मुखार आमचें कमर कशेंच बागवना. कमर बागोवन नमस्कार वतात तेन्ना वाटेंतूच खंय तरी तो थांबता. धन आनी मान जंय आसता देवाचो सांगात मेळटलो अशी आस्त आमी बाळगितात. जे सामकेच ल्यात असल्या आधार नाशिल्ल्या लोकांगेर तो रावता म्हळ्यार थंय आमचें काळीज देंवुकूच पावना. आमची पुराय धर्मसाधना पांच-नखेत्री. आसुंयेता, ह्या देशांत खरो धर्म केन्ना उदेवंकूच पावलो ना. धर्माच्या चलता तो फकत मिथ्याचार, निखटें पाखंड. देखून रवीन्द्रनाथ कृपिकूळ जावन आमकां सांगतात, चलात, येयात म्हजे वांगडा, आमी मान मागुंया-

वा, म्हजी तकली तुज्या पांयां सकयल्या धुल्लाच्या तळा मेरेन बागय. पुराय अहंकार पश्चात्तापाच्या दुकांत बुडय. आयज मेरेनचें जिवीत हांवें ण जोडपाच्या हावेसांतूच खर्चिलें. आनी खासा म्हजोच अवमान करीत . आपणा भोंवतणींच आनाळ्यो गुनाळ्यो काडीत रावलों आनी फकत च जोडीत गेलों. म्हज्यांतल्या अहंकारानूच म्हजी अशी काकुळटेणी रून उडयल्या. आतां पश्चात्तापाच्या दुकांत म्हजो पुराय अहंकार बुडय.

*आमार माथा नत करे दाओ*
*हे तोमार चरण धुलार तले ।*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले ।*
*निजेरे करिते गौरव दान*
*निजेरे केवलि करि अपमान*
*आपनारे शुधु घेरिया घेरिया*
*घुरे मरि पले पले ।*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले*
*जाचि हे तोमार चरम शान्ति*
*पराणे तोमार परम कान्ति*
*आमारे आडल करिया*
*दांडाओ हृदय पद्मदले*
*सकल अहंकार हे आमार*
*डुबाओ चोखेर जले.*

म्हज्या जिवितांत म्हाका जाय ती तुजी चरम शान्ती. म्हज्या जिवितांत ाडा आयिल्ली म्हाका जाय ती तुजी परम कान्ती. देवा, म्हज्या जाच्या साळकार तूंच येवन बस आनी म्हजो पुराय अहंकार पश्चात्तापाच्या त बुडय.

म्हज्या जिवितांतल्यान हांव म्हज्याच वावराचो प्रचार हे मुखार करीत ों ना अशें कितेंय कर. तुजीच इत्सा म्हज्या ज़िवितांतल्यान पूर्ण जाता कर.

*आमारि ना जेन करि प्रचार*
*आमार आपन काजे -*
*तोमारि इच्छा करो हे पूर्ण*
*आमार जीवन माझे.*

रवीन्द्रनाथां मुखार धर्म स्पश्ट आशिल्लो. धर्म होच एक आसूं येता अशें ते मानताले. आमी जांकां धर्म मानीत आयल्यात ते सगळे अर्दकुटे अशें तांचें म्हणणें आशिल्लें.

## 'नाहीं चिरा, नाहीं पणती'

वर्ध्यांतल्या राबित्यांत तरांतरांचे लोक पळोवंक मेळ्ळे. विद्वानांतले विद्वान मेळ्ळे. विक्षिप्तांतले विक्षिप्तूय मेळ्ळे. भायल्यान घट्ट तळपा सारके पुणून भितरल्यान लोणया परसूय मोव मेळ्ळे. आगळे वेगळे कांय मेळ्ळे. किरकोळांतले किरकोळूय मेळ्ळे. मनोहर दिवाण हांचे मजगतचे एक.

वर्ध्याकसून पवनाराक वतना वाटेर दत्तपूर नांवाचें एक थळ लागता. थंय तांचो आश्रम. हेर आश्रमांनी सरसमान तुमचे आमचे सारके लोक रावतात. मनोहरजींच्या आश्रमांत फकत कोढ जाल्ले रावतात. कोणाचीं नाकां गळ्ळ्यांत, कोणाचे कान गळ्ळ्यात, कोणाचीं हातापांयाचीं बोटां वांकडीं जाल्यांत, कोणाचीं तोंडां सुजल्यांत हे तरेचे. आंग शिरशिरून येता तांकां पळेतकूच. नांवूय आश्रमाचें **कुष्ठधाम**.

मनोहरजींचेंय आंग शिरशिरून येतालें कोणूय महारोगी दिश्टी पडटकूच. ताका पळेनाशिल्ले वरी करून ताचे पसून ते तुरतुरीत चलून पयस वताले.

पुणून मनशाच्या जिवितांत नियती म्हूण एक शक्त काम करता आसूंक जाय आनी मनोहरजींचे नियतीन तांचे खातीर कुष्ठसेवाय नेमून दिल्ली आसूंक जाय. तांच्या ध्याना मनांत नासतना ते कुष्ठरोग्यांचे सेवेंत गुल्ल जाल्ले.

जाल्लें अशें - पुलगांवचे न्हंयेक हुंवार आयलो आनी ह्या हुंवारांत लागसारचो सावंगी गांव व्हांवन गेलो. विनोबांचे सगळे विद्यार्थी पुरग्रस्तांच्या आधाराक धांवन गेले. तांच्यांत मनोहरजी एक आशिल्ले. थंय एके दोंगुल्लेचेर दत्तम्हाराजाचें एक देवूळ आशिल्लें. मनोहरजी एक दीस दत्तम्हाराजाचे भेटेक दोंगुल्ली चडून गेले. आनी -

दत्तम्हाराजांची भेट तांकां देवळा भायरूच जाली.

देवळा भायर एक कुष्ठरोगी हात मुखार करून देवळांत भेटेक येतल्या वेतल्या कडेन भीक मागतालो तो तांणी पळेलो. ताचें नाक गळिल्लें, कान गळिल्ले. ते भायर, ताचे पांयूय कापिल्ले. ताका पळेनाफुडें तांचें आंग शिरशिरून आयलें. आनी ते तुरूतुरू करून देवळाचीं सपणां चडपाक लागले. अवचीत वाटेरूच थांबले. 'हो हांगा कसो पावलो? हाका पांय नात. पांय नासतना हो दोंगुल्ली कसो चडून आयलो?' तांकां प्रस्न पडलो. ते परतले. वासपूस केली तेन्ना एकलो धडधाकट मनीस सदां ताका फाटकुळेर मारून हांगा हाडून सोडटा आनी दिवे लावणे वेळार येवन ताका फाटकुळेर मारून घेवन वता, भिकेचे पयशे मेजता, अर्दे ताका दिता आनी अर्दे आपणाचें कमीशन म्हूण कडेक काडून दवरता म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. मनोहरजींचें मन खंतीन भरून आयलें आनी वांगडाच विद्रोहान पेटून आयलें. मनशाचे लाचारेचो असो गैरलाव घेवपी संवसारांत लोक कित्याक आसचे, असो तांकां प्रस्न पडलो आनी 'ना, ह्या लोकां खातीर आपणें कितेंय तरी करूंक जाय', अशें भितर काळजांत तांकां दिसपाक लागलें. कुष्ठरोग्यांचे सेवेक जिवीत ओंपलें अशें थारावनूच ते परतले.

विनोबांक वचून सांगलें. 'उत्तम', विनोबांनी जाप दिली.

मनोहरजींची आवय ताचे वांगडाच विनोबांच्या आश्रमांत रावताली. मनोहरजींच्या ह्या नित्शयान तिका धसको बसलो. तिणें विनोबांक वचून विचारलें. 'समज तुका ही पिडा जाल्ली जाल्यार मनोहरान तुजी सेवा करची

न्हय अशें तूं म्हणटली आशिल्ली?' विनोबांनी तिका विचारलें. खीणभर ती घुटमळ्यांत पडली आनी दुसऱ्याच खिणाक तिणें म्हळें, 'म्हजो ताका आशिर्वाद आसा.'

जिस्त ह्या वेळार परचुरेशास्त्री सेवाग्राम आश्रमांत पाविल्ले. तांकांय कुष्ठरोग जाल्लो. आनी गांधी तांच्यो मावो खासा आपणाल्या हातांनी धुयतात तें मनोहरजींनी पळेल्लें. आनी तांचो नित्शय घट जालो.

पुणून कुष्ठरोग्यांची सेवा करप म्हळ्यार कितें करप? कांय खबर नाशिल्ली. कुष्ठरोग्यांची सेवा ह्या देशांत फकत किरिस्तांव मिशनरीच करीत आयिल्ले. मनोहरजी रायपुराक गेले. थंय मिशनरी लोक एक 'लॅपर असायलम्' चलयताले. स म्हयने थंय रावन तांणी सेवेचें प्रशिक्षण घेतलें. तें पावना अशें दिसलें तेन्ना कलकत्त्याक गेले. थंयच्या 'स्कूल ऑफ ट्रॉपिकल मॅडिसीन' संस्थेंत काम करपाक लागले. ह्या स्कुलांत फकत दोतोरांकूच घेवपाची चाल आशिल्ली. पुणून मनोहरजींची तळमळ, तांचो नित्शय बी गूण पळोवन संस्थेच्या जाळवणदारांनी तांकां घेतले.

गरजेचें ज्ञान जोडून मनोहरजी वर्ध्याक परतले आनी 'महारोगी सेवा मंडळ' स्थापन करून तांणी कुष्ठधाम नांवाचो एक आश्रम सुरू केलो. आश्रमाचे सुवातक दत्तपूर नांव सावंगीचे दोंगुल्लेर जाल्ल्या दत्तम्हाराजाचे भेटिच्या उगडासान दवरलें.

मनोहरजींचो हो आश्रम दाखोवपाक म्हाका तांगेले भाव कुन्दरजी घेवन गेल्ले. आश्रमाक त्या वेळार सोळा वर्सां जाल्लीं. सोळा वर्सां पयलीं मनोहरजींत उत्साह भरून ओततालो तो सोळा वर्सां उपरांतूय तस्सो आशिल्लो. सुमार अडेचशें तीनशें महारोगी थंय रावताले. आमी लाचारिचें जिवीत जियेतात अशें तांकां दिसचें न्हय म्हूण मनोहरजींनी सगळ्यांक उत्पादक श्रमाच्या कामांत गुल्ल दवरिल्ले. ते चरख्यार सूत काडटाले, हातमागार विणटाले. खादी भांडार तांची खादी विकती घेतालें. ते भाजीपालो काडटाले. संत्रांचो बगीचो उबो केल्लो. थंयचीं संत्रांय बाजारांत पावतालीं. एक गोशाळा आशिल्ली. अन्न वस्त्र दूद लुगट सगळ्याच आंगांनी आश्रम आत्म-निर्भर आशिल्लो. कुश्टरोग्यांकूय आमी कितेंय तरी 'करतात' आनी जोडटात अशें दिसतालें आनी निर्शेणेची, निष्क्रियतेची सुवात उर्बेन आनी आशेन घेतिल्ली.

मनोहरजी आपणाले आवय वांगडा तांचेच मजगतीं रावन काम करताले.

एक फावट गांधीजी हो आश्रम पळोवपाक आयिल्ले आनी 'आयज हांवें एक तीर्थस्थळ पळेलें' अशें तांणी आश्रम पळोवन म्हळ्ळें. इतलेंच न्हय, तर दिल्लींतले एके प्रार्थना सभेंत मनोहरजींचें नांव घेवन तांणी 'हो खरो महात्मा' म्हूण तांची वळख लोकांक करून दिल्ली. मनोहरजींक कितली धन्यताय भोगल्या जातली हाचो अदमासूच केल्लो बरो. तेच बरोबर तांची न्हीद कितली खळ्ळ्या जातली हाचोय अदमास केल्लो बरो. सेवेंत गुल्ल आशिल्लो मनीस तुस्त-तोखणायेन केन्ना भुल्लुसून वचना तसो अखटायेन केन्ना खंतीय जायना. सेवेंत जी खोस मेळटा ती खोस ताका लाख मोलाची दिसता. आयज कसलेय सेवेक इनामां तसरिपो मेळपाक लागल्यात. मनोहरजींक केन्नाच कसलीच तसरीप कोणें दिली ना. ना म्हळ्यार राजेनबाबू तांकां वळखताले. तांणी तांकां 'पद्मश्री' दिल्ली आनी राजेनबाबूंक वायट दिसचें न्हय म्हणून तांणी ती अनमनत अनमनत घेतिल्ली.

हे पयले भेटे उपरांत कितलेशे खेपे दत्तपुराक पावलां तेन्ना तांणी म्हाका बसोवन घेतला आनी चरख्यार सूत काडटां काडटां आपणाले कितलेशे अणभव सांगल्यात. दोन लक्षांत उरल्यात -

एक खेपे ते कुष्ठरोग्यांच्या एका हॉस्पिटलांत गेल्ले. थंय तांकां एकल येवरोपेव कुष्ठ रोगी मेळ्ळो. बावडो एकलोच पडिल्लो. नर्सी येताल्यो. उपचा करताल्यो, वताल्यो. दोतोरूय येवन पळेताले आनी वताले. कोण उलोवंक रावी नाशिल्लो. मनोहरजी एकलेच वरभर ताचे कडेन उलयत राविल्ले उपरांत वचपाक उठले तेन्ना 'खूब वर्सां उपरांत उलोवपाक म्हाका एक भा मेळ्ळो' अशें म्हणून ताणें हात मुखार काडलो. मनोहरजी म्हणटात, 'उपचार परस ह्या लोकांक आपलेपणान तांचे कडेन पळोवपी मनशांची भूक लागिल्ल आसता. तागेले ते उद्गार हांव केन्ना विसरपाचों ना.'

आनीक एक खबर -

एके चलयेचें लग्न थरिल्लें. लग्नाचो फकत म्हूर्त पळोवपाचो उरिल्लो तितल्यान कोण तरी 'हिचे आवयक कोढ जालां' म्हूण फुतफुतलो. तें सगळ कडेन पातळ्ळें. लग्न मोडटा काय कितें असो हुस्को बावडेक जालो. त मनोहरजीं कडेन आयली. तांणी तिका तपासली आनी 'तुका कांय जावंव ना... कसलोच हुस्को करूं नाका' अशें म्हूण तिका सांगलें. 'तेन्ना ति तकले वयलें ओजें देंविल्लें हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेलें. एकल्यान म्हाक म्हळें लेगीत, तुंवें तिका जीवनदान तर दिलेंच, सौभाग्यदानूय दिलें.'

मनोहरजीं कडेन असल्यो कितल्यो श्यो खबरी आशिल्ल्यो. ते कळवळू त्यो सांगताले.

मनोहरजींचें व्हडपण दुसऱ्याच एका आंगान म्हाका पळोवंक मेळ्ळां. देश स्वतंत्र जालो आनी सेवेच्या सगळ्या मळांचें सरकारीकरण जालें. कुष्ठसेवेचें जालें. कुष्ठसेवेचें तंत्रूय बदल्लें. कुष्ठरोग्यांक एके कडेन खंय दवरून तांचे उपचार करपा बदला घरां घरांनी वचून कोणाक ही पिडा जाल्या ती पळोव आनी थंयच उपचार करपाची नवी तरा सुरू जाल्ली. मनोहरजींक ह्या लोक कडेन जुळोवन घेवंक आयलें ना, तांचे उपचार पद्धती कडेनूय जुळोव घेवंक आयलें ना. सगळ्यांक तांच्या त्यागा विशीं, तळमळी विशीं आद पुणून तांकांय मनोहरजीं कडेन जुळोवन घेवंक आयलेंना. दोनूय वसल्या संघर्श सुरू जालो. प्रकरण विनोबां कडेन पावलें. विनोबांनी मनोहरज फाटल्यान रावपाचें. पुणून विनोबा ते. मनोहरजींक सेवेचे गुलामींतल्या सोडोवंक जाय, अशें तांकां दिसलें. तांणी मनोहरजींक आपोवन विचारलें

'का रे, मनोहर, तूं मरणार नाहींस का?'

'मरणार कीं.'

'मग तुझ्या दत्तपुरचें काय होणार?'

'नवीन लोक येऊन चालवतील', मनोहरजींनी जाप दिली.

'मग आजच मरून घे ना... देऊन टाक ती संस्था नवीन लोकांच हातांत.'

मनोहरजींनी खिणाचो कळाव केलो ना. नीट उठून दत्तपुराक गेले. बॅगे आपणाले कपडे, तांबयो, ताट, वाटी बी सामान घालें आनी आवयक घेव पवनाराक येवन रावले. चोवीस वरां भितर आपूण तो मनोहर दिवाण न्हय हे भावनेन कर्तुत्वाचो सगळो अभिमान तांणी मनांतलो पुसून उडयलो.

तांचीं निमाणीं वर्सां विनोबां सरींच गेल्यांत.

अंदू तांचें जल्मशताब्दी वर्स. तांचो उगडास जाता तेन्ना असलो ए आगळो वेगळो मनीस म्हज्या जिवितांत आयिल्लो हाची जाणवीक जा आनी तकली आपशींच तांच्या पांयांक हात लायता.

□□□

## ...सादे

...ो. रवीन्द्रबाब,

...मस्कार.

...कोंकणी चळवळींत मोटे उमेदीन आनी उत्साहान वावरुपाचो ध्यास ...वावराक लागिल्लों आसतनाच **सर्जकाची आंतरकथा** हें तुमचें नवें ... पुस्तक हातांत पडलें. हातांत पडनाफुडें तें मोटे उमळशिकेन वाचूंक ...ं. एका चिंतकाचें, एका ऋषीतुल्य कोंकणी रायटराचें, कोंकणी ...टराचें, साहित्यिकाचें आनी चड म्हळ्यार गांधीवाद्याचें वो गांधींच्या ...चोक धनाचो वारस सांगपी एका म्हालगड्या गोंयकाराचें पुस्तक म्हूण. ...समाजाक 'म्हार' हें उतर हिणसावपी, अपमान करपी, उणाक लेखपी ...देशिल्ल्यान महात्मा गांधीन 'म्हार' (दलीत) जातींतल्या लोकांक नवें ...ांदवरिल्लें - हरिजन. तेन्ना सावन आमी म्हारांक म्हार म्हणिनात, हरिजन ...टात. म्हार म्हणप म्हळ्यार त्या समाजाचो अपमान करप आनी तांकां ...क लेखप, दुखवप जाता. महात्मा गांधीजींचे शिकवणेचो आनी विचारांचो ...रूय प्रभाव आसतलो असो म्हजे सारक्या तरणाट्याचो समज आसलो. ...तुमचें पुस्तक वाचतां वाचतां पान १४५, प्रकरण २७ कडेन पावलों. **...त्याच्या मळा वयली शिंदळकी** हो माथाळो वाचून **शिंदळकी** ह्या ...ाक लागून हांव वाचतां वाचतां खिणभर स्तब्ध जालों आनी दिसलें, ...न्द्रबाबुल्याय बरपांत **शिंदळकी** कशी पावली? भावीण, कलावंतीण, ...ा, नायकीण, रखेली, कलवंत हीं सगळीं उतरां गोंयांतल्या एका ...माजाक लेखून खूब कुच्छित्रीपणान, ह्या समाजाचो अपमान करून ताका ...हिसावपा खातीर वापरतात. हो वापर सर्वसामान्य आनी गांवढळ लोकांमदीं ...ा. बरो साहित्यीक, विचारवंत आनी चड करून गांधी विचारांचो प्रभाव ...शेल्ल्यान गांधीवादी म्हणून लोकांनी पदवी दिल्लो मनीस असलो खंयचोय ...तीवाचक शब्द वापरतना कोणाच्योय भावना दुखोवच्योनात मू हाची ...नाय घेता. चड करून तो जाती-काती-धर्म संप्रदाय भेदभाव हांचे पलतडीं ...वेल्लो मानवतावादी विचारवंत लेखक आसता. तुमीय हे पंगतींतलेच मू? पूण म्हजो हो विचार भ्रम थरलो. तुमी कलवंत हो शब्द कोणाकय ...ोवपाक कसो वापरूं येता हाची बेस बरी देख दिल्या. एका वाक्यांत ...गल्यार तूं एक कलवंत म्हणून ताका दुखोवचो, म्हळ्यार, त्या व्यासपिठा ...ल्या मनशाक **कलवंत** ह्या शब्दाचो वापर करून तुमी ताचेर सणसणीत ...ोवंक सोडताले. पूण त्या थापटा परस चड पावरफूल उतर वो गाळ ...कां आयली ती कलवंत! ''कलवंत म्हळ्यार जेन्ना घोवाची बायल म्हूण ...येवचे परस हजार दादल्यांक कूड विकप फायद्याचें म्हूण कोणेंय वेश्येचो ...ो केलो जाल्यार तूं खंयचे नदरेन तिचे कडेन पळेतलो?''

हीं तुमचीं उतरां खूब अपमानास्पद, हिणसावपी - आमच्या अख्ख्या ...ंतक मराठी समाजाक साप्प उणाक लेखपी आसात हें म्हाका खंतीन ...ा ह्या पत्रांत नमूद करीन दिसता.

हांव गोमंतक मराठा समाजाचो हालींच अध्यक्ष जालां. एके ज्ञातीसंस्थेचो ...ध्यक्ष आसुनूय म्हजे विचार सर्वसमावेशक, वेगळे आसात. जात-...निरपेक्षते कडेन आसात. **गोमंतक मराठी समाजाची उपेक्षा,** मानहानी ...नी सामाजीक अवहेलना हे आदीं खूब जाल्या. ती फकत समाजांतल्या ...य बुगुर्जांनीच करूंक ना तर ती गोंयकार साहित्यिकांनी - आमी चड करून जांकां उच्चवर्णीय (?) बी म्हणटात - तांणी केल्या. कथा कादंबरींनी **भावीण, कलवंत** हीं उतरां शेंस घाल्ले बायलमनशेकच वापरल्यांत आनी ती बायलमनीस ह्या गोमंतक मराठा समाजांतल्यानूच आयल्या. कलवंत ह्या उतराचो गाळी वरी वापर करपाची इत्सा तुमच्या मनांत आयली ती मुळांत तुमचे भितर कलवंत समाजा विशीं, वो देवदासी समाजा विशीं उणाकपणाची भावना लिपून आसा म्हणून. आनी ती दुर्दैवान नकळटना अशी उफाळून आयल्या. ते खातीर सगळ्यांत पयलीं हांव तुमच्या ह्या उतरांचो निशेध करतां. हांव ह्या समाजाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान तुमच्या ह्या कलवंत शब्दाच्या वापराची हांवें दखल घेतल्या. ताचे पयलीं तुमचें म्हणणें आयकप म्हजे नदरेन सभ्यपणाचें थरतलें, हे उदात्त भावनेन हें पत्र बरयलां.

तुमचे जापेक रावतां.

बरें मागून,

तुमचो<br>
ॲड्. मनोज बांदोडकार<br>
(अध्यक्ष)<br>
गोमंतक मराठा समाज-गोंय

*वयर दिल्ल्या पत्राची मूळ प्रत लेखकाक आनी झेरॉक्स प्रत उजवाडावप्याक रजिस्टर्ड ए.डी.न आयलीं. दोन दिसां उपरान्त, श्री. मनोज बांदोडकार, अध्यक्ष, गोमंतक मराठा समाज (वयर दिल्लें पत्र धाडपी) हांचो लेखक रवीन्द्र केळेकार हांकां फोन आयलो आनी आमी त्याच दिसा साडे चारांच्या सुमाराक लेखकाच्या घरांत बसून हाचेर कितें तो तोडगो काडचो अशें थरलें.*

*आमचीं विस्तारान उलोवणीं जालीं आनी निमाणें दोनूय व्हटेंतल्या प्रतिनिधिंनी असो निर्णय घेतलो -*

***सर्जकाची आंतरकथा** ह्या पुस्तकांतली गोमंतक मराठा समाजाक अपमानीत करपी दोन प्रकरणां, नं. २७ **(साहित्याच्या मळा वयली शिंदळकी)** आनी नं. २१ **(मराठींत भावणींचेर कित्याक बरोवंचें पडटा)** हीं लेखक आनी उजवाडावपी हांणी चालू आवृत्तींतलीं फाटीं घेवचीं (withdraw करचीं) आनी फुडले उजवाडावणेच्या पुस्तकांत तीं घालचीं न्हय.*

*हें सगळें संबंधितांक कळीत करपा खातीर आमी 'जाग' म्हयन्या-नेमाळ्याच्या चालू म्हयन्याच्या आकांत उजवाडाक दिलां.*

| | |
|---|---|
| *सुमन्त केळेकार* | *रवीन्द्र केळेकार* |
| *उजवाडावपी* | *बरोवपी* |

भौ. संपादपी<br>
जाग

फेब्रुवारीच्या जागांत पांडुरंग भांगी हांणी आपणाले चिटयेंत मराठी कवी बाळ सीताराम मर्ढेकर हांच्या 'पिपांत मेले ओल्या उंदिर' हे कवितेचो निर्देश केला. ही कविता पयले फावट 'अभिरुची'च्या (ऑक्टोबर-नोव्हेंबर, १९४६) आंकांत संपादपी पुरुषोत्तम आत्माराम चित्रे हांणी प्रसिद्ध केल्ली. भांगीबाबांले चिटयेंतलो तपशील चड स्पश्ट जावचो देखून ही नोंद दिल्या.

बरें मागून,

सु. म. तडकोडकार<br>
गोंय विद्यापीठ

# करुणा

चंद्रकांत केणी

सलीम खान हांगेली एक कथा हांवें निकतीच वाचिल्ली. म्हाका तें वातावरण संवकळिचें, वळखिचें दिसलें. कथा सामकी सादी. कथन करूंक गेलों जाल्यार सांगपा सारकें कांय ना. ती पंदरा-वीस वाक्यांनी सांगूं येता वा लेखकान सांगल्या ते भाशेन दोन तीन पानां मेरेन विस्तारूं येता.

१९६६ वर्साचो डिसेंबर म्हयनो. जानेवारीचे १६ तारकेक गोंयांत 'ओपिनियन पोल' जावचो आसलो आनी ते खातीर विलीनीकरणवादी आनी विरोधक हांचो प्रचार चालू आशिल्लो. प्रचाराचो भर उत्तर आनी पूर्व गोंयांत चड आसलो. विलीनीकरणाचे समर्थक आपले बालेकिल्ले मानताले त्या दरेका गांवांत विलीनीकरण विरोधी लोकय आसले. तरी त्या वाठारांत विलीनीकरणवाद्यांचें भौमत आसा हें दिसतालें. गांवच्यो सभा चडश्यो राती कडेन जाताल्यो. एकाच दिसा तीन-चार कडेन सभा घेवच्यो पडटाल्यो. आमचे विचार आमी उकतेपणान मांडटाले. आमच्या विचारांचें समर्थन करपी लोक खूश जाताले, पूण विरोधक खुबळटाले. प्रत्यक्ष मारामारी जायनासली. कित्याक, आमचे सभेंत चडावत आमच्या विचारांचें समर्थन करपी लोक आसताले. सगले त्या गांवचे अशें न्हय. भोंवतणच्या सात-आठ गांवचे जमताले. पूण सभा सोंपून परतताना वाटेंत कसलें दिव्य करचें पडत सांगूंक जायनासलें. अरुंद रस्त्याचे कुशीक आशिल्लें झाड मारून वाट आडावपा खातीर मार्गार आडवें घालप बी असले प्रकार घडटाले.

एक दीस कुळ्यां सभा आशिल्ली. त्या दिसा सांजच्या वेळार वास्कोच्यान कुळ्यां वतली लोकल गाडी धरली आनी सांजच्या सुमार ७ वरांचेर कुळ्यां स्टेशनार पावलों. सभा णव-धा वरांचेर सुरू जावचेली आसली. रातिच्या दोन-अडेज वरांचेर एक मालगाडी वास्को वचूंक भायर सरपाची आसली. ते गाडयेंतल्यान गार्डाच्या बरेपणान मडगांव स्टेशनाचेर देंवपाचें अशी आमची येवजण आसली. खरें म्हळ्यार तें एक दिव्यच आसलें. कुळेंच्या राजकी वातावरणाची म्हाका कल्पना नासली. तरीपूण थंय विलीनीकरणाचे समर्थक चडावत आसात असो अदमास आसलो. ज्या तरणाट्यांनी सभेचें आयोजन केल्लें, तातुंतलो कोणच स्टेशनार आयलो ना. खंय वचचें आनी कितें करचें, हांव संभ्रमांत पडलों. ताकतिकेन सभेक येवपाचें मान्य करून बशिल्लों.

गांवांत भितर सरलों तेन्ना काळोख दाटून आयिल्लो. शीं पडिल्लें आनी चारूय वटच्यान धुकें पातळिल्लें. बारीक बल्बांच्या उजवाडांत आळसाविल्ली कुळें गांवची बाजारपेठ सामकी उजाड दिसताली. एखाद्र्या पसऱ्याचेर दोन मनीस कितेंय विकतें घेताले तितले पुरती जीवसाण. पुरो जाल्लो कश्टी वर्ग घरां कडेन परततालो आनी भर बाजारपेठेंत हांव पासयो मारतालों. निमाणें एका पसरकाराक म्हजी काकुळ्ट दिसली आसुंये वा म्हजे विशीं दुबाव आयलो आसुंये. मोटवें कलसांव आनी बानयान घाल्लो तो गळ्यांतली भांगराची सरपळी सांसपीत म्हजेसरीं आयलो आनी ताणें विचारलें : 'कितें सोदता?'

हांवें ताका सभे विशीं तो कितेंय जाणा काय म्हूण विचारलें.

'तूं जाणा, हांगा सगल्यां कडेन बरेपण घेवन रावचें पडटा. खंयचोय एक वर्ग खुबळ्ळो जाल्यार आमचेर मांड बंद करपाचो प्रसंग.' इतलें उलोवन तो हांसलो. मस्करी केल्ले भाशेन. मागीर दोळे बारीक करून ल्हवू आवाजांत ताणें म्हळें : 'फाटल्या वाड्यार देवळा कडेन ह्या दिसांनी नाटकां चलतात. रातिच्या वेळार नाटका उपरांत वा एक अंक जातकच थंय 'फुल'कारांच्यो आनी 'पान'कारांच्यो सभा जातात. थंय घडये तुका आपयला आसुंये.'

म्हजे तकलेंत थोडोसो उजवाड पडलो. हांवें थारायलें - सभा फुलकारांची आसत जाल्यार ह्या पसरकाराच्या सांगातान मालगाडी येसर वेळ सारपाचो, आनी नासत जाल्यार मोल्यां वचून मडगांवां वचपी वाहन धरपाचें.

'तुमचो पसरो केन्ना बंद जाता?' हांवें ताका विचारलें.

'जाय तेन्ना करूं येता. तूं आमगेर येवन बस. सांगातान जेवया. मागीर हांव तुका सभेलागीं पावयतां.'

जेवणाचो हुस्को नाशिल्लो. पूण त्या अनवळखी वाठारांत रातिच्या वेळार कोणाचो तरी धीर जाय आशिल्लो. पसरकाराच्या रुपान तो मेळटालो. हांवें ताका म्हळें, 'तशें जाल्यार हांव त्या वाड्यार एक पासय मारून येतां. उपरांत आमी तुज्या घरा या.' ताणें तकली हालयली आनी हांव एका अरुंद रस्त्यावेल्यान फाटल्या वाड्यार चलूंक लागलों.

सुमार एक कि.मी. चलून वतकच पयसुल्ल्यान ग्रामोफोनावेल्यो रेकॉर्डी कानार पडल्यो. मातसो फुडें वतकच दिव्यांचो झगझगाट दिसलो. ते मेरेन हांव नाटक जावपाचें आशिल्ल्या प्रांगणांत पावलों. सुमार शें-देडशें कदेलां घाल्लीं आनी स्टेजी वेलो मुखेल पड्डो बंद आशिल्लो. शाळेचीं भुरगीं थंय खेळटालीं आनी रेकॉर्डी वाजोवपी थंय बशिल्लो. रेकॉर्डी वाजोवप्याक विचारिल्लें बरें अशें येवजून विचारलें, 'आज सभा आसा ?'

'खबर ना.' ताणें म्हळें. 'नाटकां जातात, कुशीक बोर्ड लायला पळय.'

कुशीक दोन बोर्ड आसले. एक नाटकाचो रंगीत बोर्ड आनी कुशीक शाळेचो काळो बोर्ड. त्या काळ्या बोर्डाचेर सभे विशीं बरयिल्लें. 'रातिच्या साडे धा वरांचेर.' घडयाळींत पावणे आठ जाल्लीं. ह्या काळखांत निर्जन रस्त्यावेल्यान एकलोच कितें भोंवतलों अशें येवजून हांव पसरकारालागीं आयलों. आपलो पसरो बंद करून ताणें आंगार खोमीस चडयल्लें आनी हातांत टॉर्च घेवन तो म्हजी वाट पळयत उबो आशिल्लो. ताच्या सांगातान ताच्या घरा कडेन गेलों.

घरांत सगलो कुलकुलाट. घरचे लोक मोटमोट्यान उलयताले. सात-आठ भुरगीं हांगा-थंय धांवतालीं. भायल्यानच घरच्या धनयान भुरग्यांचेर धेंगसो घालो आनी एकदम सगळें घर शांत जालें.

घरचें जेवण तयार आशिल्लें आसुंये. पूण परकी मनीस जेवणाक आसा देखून दोन नग तयार करूंक थोडो कळाव लागलो. म्हाका ताकीद नासली. आमी पानार बसले तेन्ना धा वरां जाल्लीं. म्हाका भुकय लागिल्ली. हुनहुनीत शीत. दाळिचें तोय. दोन तरांच्यो भाजयो आनी लोणचें. सगलें जेवण सुरबूस आसलें आनी वाडटा आसतना घरचे लोक आग्रो करताले.

आमी सभे कडेन वचूंक भायर सरले तेन्ना घरांतल्यान एका ल्हान भुरग्याचो दिसचो तशा आवाजांत उलो कानार पडलो : 'बाबा...'

ा आवाजांत माधुर्य आसलें आनी कारुण्यय आसलें. मुरलीचे धुनी ...या त्या उल्या सांगातान आवाजाचो सूर तंग वातावरणांत झिणझिणलो. ...ाका थंयच रावंक सांगून पसरकार भितर गेलो. तो उलयता ताचो ...ज आयकूंक येतालो. पूण बोध जायनासलो. थोड्या वेळान तो भायर ...लो आनी म्हळें, 'म्हजें एक दुख्ख आसा...'

...गेलें उदास तोंड पळोवन म्हाका अजाप जालें. हांवें ताका म्हळें, '...ण आसल्यार तूं राव. हांव एकलोच सभेक वतां.'

...तसली अडचण न्हय. म्हजी एक चली आसा. अपंगूळ जावन घरांत ...या. ती तुका मेळूंक सोदता. म्हूण तिणें म्हाका उलो मारिल्लो.'

...वें जाप दिली ना. ताचे फाटल्यान घरांत परत आयलों. म्हाका घेवन ...तरले कुडींत गेलो. एक बल्ब ते कुडींत पेट्टालो. शेणान सारियिल्ली ...न - एके वणटीक तेंकून खाट आनी ते खाटीर बशिल्ली ती चली.

'तूं बरयता तें हांवें वाचलां.' तिणें हांसून म्हळें. 'म्हाका फकत तुका ...वचेलो आसलो.' घराच्या धनयान एक कदेल हाडून दवरलें. ताचेर हांव ...लों. हांवें तिका विचारलें, 'तूं कितें कितें वाचता?'

'हांव मराठी सवी शिकतां... बेळगांवां म्हजें आजोळ... आतां घरांतूच ...तां... दोनय पांय गेले आनी एक हात गेलो...' तिणें मांडयेर आशिल्लें ...रूण कुशीक काडलें. दोनूय पांळ वळवळ्ळे आनी एका हाताचो भाग ...ा तो नदरेंत भरलो.

'वाचता, उलयता, जेवता, खाता... सगळें सारकें. पूण अशें जावन ...लां. रेडियो आयकता, पेपर वाचता...' तिगेल्या बापायन म्हाका सांगलें.

'... हांव विलीनीकरणाक विरोध करतां, तें सांगलें ना तुवें बाबा! इतलीं ...वर्सां हांव घरांतलें भायर सरूंक ना. पूण सोळा तारकेक हांव मत घालूंक ...लें.' तिणें सांगलें. ती हांसताली, पूण म्हाका कलकलिल्ले भशेन जालें.

'तिका वर्सां कितलीं?' हांवें तिच्या बापायक विचारलें.

बापायचें उतर पूर्णजावचे आदींच तिणें म्हळ, 'ह्याच म्हयन्यांत म्हाका ...वीस पूर्ण जातलीं. म्हजे खातीर दीर्घायुष्य मागूं नाका आं. म्हका मुक्ती ...य. म्हाका मन आसा. काळीज आसा. सगल्यो वेदना आसात तशोच ...वेदनाय आसात. हात पांय घोळिल्ले जाल्यार हांव जगन आसलें. पूण ...तां मर्णच मुक्ती अशें म्हाका दिसता. भायर वतलें जाल्यार कोणेंय उखलून ...रूंक जाय. हांतुळणार न्हिदोवंक जाय.' हांसत हांसत उलयतना उस्तरें ...ल्ले भाशेन तिका हुडको फुटलो.

म्हज्यान थंय रावं नज जालें. हांव भायर आयलों. पसरकाराक भायर ...ंक सुमार पंदरा मिनटां लागलीं. घडये धुवेक तो समजायतालो आसुंये.

आमी चलत चलत फाटल्या वाड्यार वचूंक लागले. दोगूय मोने जाल्ले. ...वेंच मौन तोडलें. ताका विचारलें, 'तिचें नांव कितें?'

'पूजा.' ताणें सांगलें. 'शिकूंक हुशार आसली. ल्हान पिरायेरच रांदूंक ...किल्ली, संगीत शिकताली. चड दीस ती बेळगांवां आपल्या मामागेरच ...ली. कोंकणी भाशेनच मराठी आनी कन्नड जाणां. चली व्हडली जातकच ...मना जोडटली अशी आमकां उमेद आसली. पूण तितले म्हणसर हें विपरीत ...डलें.'

'जालें तरी कितें?' हांवें ताका विचारलें.

'मर्दी चार दिसांखातीर कुळ्यां आयिल्ली. एक दीस खेळटना रस्त्यार ...का एक गुळो दिश्टी पडलो. जड, लोखंडाचो गुळो. तिणें तो घरा हाडलो. ...यर आंगणांत खेळूंक लागली. तो बाँब आसलो. सुटके झुजाऱ्यांनी दवरिल्लो आसुंये वा पुर्तुगेजांनी. ताचो एकदम विस्फोट जालो आनी तिचो एक हात आनी दोनूय पांय गेले. तिची अशी विटंबना जाली आनी म्हाका पुर्तुगेज पोलिसांचो उपसर्ग जावंक लागलो.' ताणें एक सुस्कार सोडलो.

'जावपाचें जावन गेलें. आतां तिका तुमी खुशालभरीत दवरूंक जाय.'

'तेंच तर आमी करतात. दोळ्यांत तेल घालून तिका राखची पडटा. केन्नाय आंग झरकटायत झरकटायत ती भायर येता. फाटले वटच्यान बांय आसा... ओगीच हुस्को दिसता.'

आमी देवळा कडेन पावले ते मेरेन साडे धा जाल्लीं. निकतेच लोक येताले. खाज्याचीं आनी सोदाचीं दुकानां. तरातरांचे आवाज आनी वातावरण वेगळेंच जाल्लें. सभेचो एक आयोजक आयलो आनी म्हाका एका गाड्या कडेन व्हरून सोडा दिलो.

'सभा केन्ना सुरू जातली?' हांवें ताका विचारलें.

'अजून लोक येवचे आसात. नाटकाचो एक अंक जातकच सभा. गुडस् गाडी अडेजांक सुट्टली. आमी स्टेशन मास्तराक, गार्डाक सांगून दवरलां.'

सभा सुरू जाली तेन्ना मुखावयल्या आंगणांत लोक चिक्कार भरिल्लो. बेगीन भाशण सोंपोवचें आनी स्टेशनार वचून बसचें अशें येवजून हांव मायका मुखार उबो रावलों तेन्ना म्हजी नदर शाल पांगरून मुखारूच येवन बशिल्ल्या पुजाचेर गेली. त्या दिसा पयलेच खेपे भौशीक सभेंत उलयतना हांव उतरां चुकिल्लों आनी भाशण पूर्ण केलें तरी म्हजी अस्वस्थताय वाडत उरली.

ओपिनियन पोलाच्या मतदानाच्या दिसा फांतोडेर घरचो फोन वाजलो. फोनाचेर बायलेचो आवाज : 'पळय आं, गोंय वेगळें उरूंक जाय. फूल जिखूंक फावना.' फोन बंद.

१८ तारकेक मतां मेजप थांबलें. उत्तर गोंयच्या सगल्या मतदारसंघांनी विलीनीकरणवादाक आघाडी मेळिल्ली. निकाल कितें लागतलो तें आमकां समजल्लें पूण जांकां समजूंक नासलें ते विलीनीकरणवादी उत्सव मनोवंक लागले. विरोधक गर्भगळीत जाले. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर परत फोन वाजलो. तोच आवाज : 'हें कितें? तुमचें गणीत खंय चुकलें?' आनी म्हजे जापेची वाट पळय नासतना फोन बंद जालो.

तिसरे खेपे फोन आयलो तो १९ तारखेकच. रातिच्या बारांच्या अदमासाक : 'हांव चुकलें, तुमी जिखले !'

कोण काय ही, हो संभ्रम मनांत आसलोच.

वीस तारकेक राती कडेन फोन आयलो. हे खेपे दादल्याचो. घोगऱ्या आवाजांत ताणें आपलें नांव लेगीत सांगलें ना. इतलेंच म्हळें, 'रातीं पूजा मेलें... ताणें बांयंत जीव दिलो... तें मुक्त जालें...'

सलीम खान हांगेली कथा 'द वीक' ह्या नेमाळ्यांत वाचली आनी वयलो प्रसंग म्हज्या दोळ्यां मुखार उबो जालो.

'शोले' ह्या हिंदी चित्रपटाचे कथाकार सलीम खान त्या दिसांनी खुबच लोकप्रिय जाल्ले. सांजच्या वेळार इश्ट मित्रांच्या सांगातान ते घरांत बशिल्ले. तांकां फोन खूब येताले. तरांतरांचे फोन. अभिनंदन करपी, दूशण दिवपी, चुको काडपी. आनी ते घेता आसतना सलीम खुशालभरीत जातालो. एकदम ताणें नामना जोडिल्ली आनी फोनांक लागून ताची उमेद वाडिल्ली. तशे आदींय ताका फोन येताले आनी ते उपरांतूय येत रावले. ताका लागून पंचवीस वर्सां आदल्या त्या प्रसंगाची याद जागी जाली.

तीनसांजच्या वेळार फोन वाजलो. सलीमानच उखललो. 'हॅलो', एक

मधूर आवाज. भौ करून चलयेचो. फुडली खबर तांच्याच उतरांनी सांगतां-

'कोण उलयता?' तिणें प्रस्न विचारलो.

म्हाका राग आयलो. हांवें तिडकून म्हळें. 'फोन करतल्यान पयलीं आपली वळख दिवंक जाय.' ती हांसली. उदकाचो घोगो बर्फाळी दोंगरांतल्यान व्हांवन येवचो तसो तो हांसो. शिंयाचे दीस सोपून उबाळाचे दीस सुरू जावच्या अदमासाक दोंगराळ वाठारांनी असलो घोगो व्हांवता.

परत परत अशेंच जावचें. म्हाका दुबाव आयलो, कोणय तरी बायल म्हाका खेळयता, म्हजी मस्करी करता. एकूय दीस तिणें आपलें नांव सांगलें ना, काम सांगलें ना. असंबद्ध दोन उतरां उलयताली आनी फोन बंद करताली. हांव तिची वळख मेळत हे आशेन उलयतालों, संवाद लांबयतालों. इतलें खरें की उलोवपी बायल सभ्य, सुसंस्कृत आसली. भास सुशिक्षीत मनशा सारकी, आयकतल्या विशिंचो आदर उकतावपी.

एक दीस सगले इश्ट मित्र जमिल्ल्या वेळार तिगेलो फोन आयलो. हांवें रिसिव्हर उखल्लो. इतले म्हणसर इश्ट मित्र उलयतां उलयतां व्हडान हांसले. तेन्ना ते बायलेन म्हळें: 'तुगेर लोक आसात. हांव मागीर फोन करतां.' तिणें फोन बंद केलो.

वरांचीं वरां उलयलों तरी तिची वळख मेळना. फुडलो फोन एका सप्तका उपरांत आयलो. रातिच्या १०च्या अदमासाक. घरांतलें वातावरण शांत दिसतालें. ती लेगीत स्वस्थ दिसताली.

'तुजें नांव कितें?' हांवें तिका विचारलें.

तिणें सांगलें ना. म्हळें, 'दिसपट्टी हांव कोणाक कोणाक फोन करतां. हरशींच नंबर घुंवडायतां. कांय नंबर मतींत थिरावतात. तुजो नंबर तसलो. म्हाका बऱ्या लोकां कडेन उलोवंक आवडटा. तुजे सारक्या.'

म्हाका राग आयलो. जाणवायांची बायल. हांवें तिका म्हळें, 'तूं वळख कित्याक दिना? एकोडी बायल दादल्याचो सांगात सोदता काय कितें?'

थोडो वेळ ती ओगी रावता. मागीर म्हणटा: 'म्हाका वळख दिवचेली ना वा फोनाचो नंबर दिवचेलो ना. हांव कोणाच्याच सांगाताक इत्सुक ना. म्हाका कॅन्सर जाला. म्हजी पिराय पंदरा वर्सांची. तुजे सारक्या बऱ्या मनशा कडेन उलोवंक आवडटा. म्हऱ्यांत कोणच नासता तेन्ना उलोवंक मेळटा.'

हांव व्हडान हांसलों. 'तूं करूण कथा रचता काय कितें? आनी म्हजी सहानुभूती मेळोवंक सोदता? मुंबयच्या सिनेमां सारकी कथा...'

दोन खीण ओगी रावले उपरांत तिणें विशय बदल्लो. म्हजे विशीं प्रस्न केले. हांवें सिनेमांची कथा बरोवपी लेखक अशी म्हजी वळख करून दिली. हांवें सिनेमाचीं नांवां सांगलीं आनी विचारलें, 'खंयचो सिनेमा पळयला तुवें?'

तिणें प्रामाणीकपणान जाप दिवन म्हळें, 'सिनेमा पळोवंक नात. पूण फिल्मी नेमाळ्यांनी तुमचे विशीं वाचलां.' तिणें म्हजें अभिनंदन केलें.

हांवें म्हळें, 'आतां तूं म्हजे विशीं सगलें जाणा. तूं नांवय सांगचेंना? तुका सोदून काडपाचो यत्न हांव करचोंना. तुजो टेलिफोन नंबर समजून घेवपाची म्हाका इत्सा ना. तूं खंय रावता तेंय म्हाका नाका. तुजें खरें नांव तूं सांग.'

फोन करतल्याची वळख दिवपी यंत्रणा तेन्ना नासली आनी फोन करतल्याची वळख घेवपाचो उपायय हांव नकळ आसलों. व्हड सुस्कार सोडून तिणें म्हळें, 'म्हजें नांव रात्री. मागीर फोन करतां.'

हांवें घरच्या मनशांक तिची खबर सांगली. ती चली वेगळ्याच नांवाची हाचो विचार म्हजे तकलेंत घोळ्ळो. रात, काळोख अशें एके चलयेक कशें नांव आसूं येता? हांवें कल्पनेंतूच तिचें रूप थारायलें. ती प्रफुल्ल व्यक्ती नेणटी चली आसूंक जाय. पूण बायलेच्या मनांत दुबावाची कीड वळवळ्ळी..

रात्रीन मात आपलें उतर पाळ्ळें. आनी परत फोन केलो... वयले वयर सप्तकांतल्यान दोन दीस, केन्ना केन्ना चड. सभ्य, नम्र संवाद. सभ्यतेची म्हाका ती आवडूंक लागली. आमी तरेकवार विशयांचेर उलयतालीं राजकारण, कला, तत्त्वज्ञान, साहित्य... एक दीस तिणें म्हाका आपली कविता वाचून दाखयली. काव्य रचना सदोश आसली तरी विचारांची परिपक्वता आसली. ल्हान पिरायेचेर तिची प्रतिभा बरीच फुलिल्ली. केन्नाय एकाद्र्या विशयाचेर चर्चा लांबोवन तिची परिक्षा घेतली जाल्यार तिची बुदवंतकाय नदरेंत भरताली.

'कविता छापना कित्याक?' हांवें विचारलें. ती फकत हांसली.

दिसांचीं सप्तकां जालीं आनी म्हयने बलांडले. आतां ती सदांच रातिच्या धा वरांचेर फोन करताली. म्हाका संवय जाल्ली. तिचे कडेन उलोवंक म्हाका आवडटालें. बायलेक तिडक येताली.भुरग्यांक लेगीत तो फोन विचित्र दिसतालो. फोनार तिचे कडेन उलयतना हांव टेलिव्हिजनावेले आवडटे कार्यक्रम चुकयतां हें पळोवन म्हजे घरचे लोक विस्मीत जाताले. अशें आसले तरी आमच्या संबंदां विशीं तांकां दुबाव नासलो. आमचे संबंद शुद्ध, सोज्वळ आसले. फकत टेलिफोन आमकां जोडटालो.

केन्ना केन्नाय हांव म्हाकाच विचारतालों, 'कोण ती? खंयची? कांयच खबर ना. जाणां तें तिचें नांव. कित्याक तूं असो वरांचीं वरां वगडायता? घरच्या लोकांच्या मनांत गैरसमज नात हें तुजें भाग्य.'

पूण हांव तिच्या फोनाची वाट पळयत रावतालों. चड आनी चड उलयतालों. त्या फोनाक लागून म्हाका मनांत एक शांती मेळटाली.

अचकीत तिगेले फोन बंद जाले. एक सप्तक जालें. दुसरें सप्तक, म्हयनो, दोन म्हयने, तीन म्हयने गेले. कितें जाल्लें? दिसाच्या वेळार कामांत घुस्पून उरतालों. उपरांत विचार येताले. कित्याक ती फोन करिना? तिचो नंबर घेतिल्लो जाल्यार वासपूस करूं येताली.

एका दिसा दनपरां वामकुक्षी करतालों इतले म्हणसर फोन आयलो. विदेशांतल्यान आयिल्ल्या फोना भाशेन तरेकवार आवाज आयलो. हय, विदेशांतल्यानच फोन आयिल्लो...

'हॅलो, मिस्टर सलीम खान उलयता?'

'हय. हांवच तो.'

'मिस्टर खान, हांव क्लेव्हलँड अमेरिका सावन उलयतां. तुमकां एक रकाद आसा. रात्रीक आयज सकाळीं मर्ण आयलें. तिका कॅन्सर जाल्लो.'

हांव विस्मीत जाल्लों. म्हजी वाचा धरली. हांवें विचारलें, 'जालें कशें?'

ते बायलेन सांगलें, 'तिका कॅन्सर खूब वर्सां आदीं जाल्लो. तिगेले डायरेंत तिणें खुबशे नंबर, नांवां बरोवन दवरल्यांत. दरेकल्याक दिवपाचो रकाद तिणें बरोवन दवरला. तुमच्या नांवा कडेन तिणें बरयलां, आपणाक खऱ्यांनीच कॅन्सर जाल्लो हें कळीत करून आपल्या मर्णाची खबर दिवची.'

तिणें फोन बंद केलो. ती रात्रीच्या नात्यांतली आसुंये वा खंयच्याय हॉस्पिटलांतली नर्स आसुंये.

काळजांत गुन्यांव, प्रतरणा, अविस्वास, आघात, खंत दाटून आयली. म्हजे दोळे ओले जाले. रात्री गेली. खऱ्यांनीच तिका कॅन्सर जाल्लो. म्हाका खरें दिसूंक नाशिल्लें. ती म्हाका माफ करीत? म्हज्या मनांत आयलें, तिगेल्या घरच्यांक जाप दिवंक वचचें. वतलों जाल्यार म्हाका पत्तो खबर ना. कितलेशच दीस हांव विचारांतच घुस्पून उरलों... **

# नंदालो पोर हो...

(सवी खिस्त)

**सुमन्त केळेकार**

सायकल चलोवंक लागत सावन दीसरात तकलेंत एकच ध्यास असतालो तो सायकलिचो. सकाळीं उठत पासून सांज जाय मेरेन सायकलीन खंय भोंवपाचें हाची कसलीच आंखणी करिनासतना, भाड्याची सायकल हातांत पडनाफुडें खंय वचपाचें तें आमी थारायताले. सायकल चलोवपाची म्हळ्यार ती एकल्यानच न्हय; एक जावं दोग जाण वांगडा असतालेच. फुडल्या दांड्यार एकलो जाल्यार फाटल्या ब्रॅकेटार दुसरो. उतां वयार येवपाची आमची सुरवात जाल्ल्यान दोंकल्यो इल्ल्यो इल्ल्यो लब जावंक लागिल्ल्यो. ताका लागून पयलीं भशेन सांगाड्या भितल्ल्यान पाय घालून उब्यांनी चलोवपाची गरज नाशिल्ली. पेदालांक तेंकून बरीं पावलां लागलीं नात तरी एका पेदालाचेर नेट दिवन, दुसरे वटेनचें पेदाल वयर सोडप आनी तेंय नेटान फुडें धुकलप, हे भशेन चलोवपाची घोळटीक जाल्ली. ताका लागून सेलार बसून सायकल चलोवपाक कसलीच आडखळ उरयनासल्ली.

सायकलीन खंय वचप आनी खंय ना, हाका धरबंद कसलोच नासलो. सकाळच्या शेटिली सायकल मेळ्ळ्यार दनपारच्या वोता कडार आमी आपें सुट्टी मेरेन भोंवडी मारून परतताले. आनी म्हाड्डोळा भाड्यान घेतली जाल्यार शिमेपायण धरून केन्ना केन्ना करंजाळे मेरेन कांय न्हय करून आमची फेरी जाताली. हें सायकल चलोवपाचें काम वर देड वरा भितर जावंक जाय आसलें. इश्कोलाक वचपाचें आशिल्ल्यान मदलो वेळ सादून ही सायकलिची कसरत करची पडटाली. ते भायर सायकलीन भोंवपाचें जाल्यार खंयच्या रस्त्यांवेल्यान हेंय थोडेंभोव येवजून करुनच थारावचें पडटालें. आमच्या बापायचे वळखिचे, ताचे सामके लागशिल्ले अशे कोण खंय रावतात, तांचीं घरां रस्त्या कुशीक नात असल्याच सुवातिंनी आमच्यो भोंवड्यो जाताल्यो. घारुबाबालो चलो म्हण म्हाका जायते जाण वळखुपी आशिल्ल्यान म्हज्या सायकल फेरयांच्यो, मीठमसालो लायिल्ल्यो रंगीत संगीत काणयो सांज जाय मेरेन बापायच्या कानार पावपाक इल्लोय कळाव लागनासलो. बडकय करंजाळ रस्त्यावेल्यान गेलों जाल्यार शिमेपायण धरून झरी फुडले सवते मेरेन कोणूच तितलोसो वळखिचो जावं दाटसाणिचो नाशिल्ल्यान, तो वाटार आमकां बादिकार करपी नासलो. पूण फुडलो न्हय. थंय कोणूय ना कोण वळखिचो रावतालोच. थंय सगळीं कामतीचीं घरां जाल्ल्यान, कोणाय एका कामतीन पळेल्यार पुरो, केल्लें धाडस आंगलटी येवपाचेंच. तीच गजाल मळेगेची. सांतेरी देवळा लागसार मेरेन कसलीच भिरांत नासली. मोयरां वाड्या वयले जावं फुडल्या क्रिस्तांव वाड्या वयले कोणूच आमचे वाटेक वचचे नासले. पूण सांतेरी देवळा कडेन पावनाफुडें कोणूय ना कोण मज म्हण सोदूंक येतलो आसलो. ते भायर वयले वटेन आशिल्ल्या नरशिंवा देवळा कडच्यान कोणाचेय नदरेक पडपाचो भंय. फुडें गोठणांत शांतादुर्गेच्या देवळा कडेन गेले जाल्यार थंय वेलींगकारांलें घर. म्हाड्डोळचे लागसारच्या वाटारांत भोंवतलों म्हळ्यार थंय कोणाचीच नदर चुकोवप शक्य नासतालें. सायकल चलोवपाचो नाद दिनासदीस इतलो बळावतालो की ताचें पानवळ मेळपाक चड वेळ वाट पळोवपाची गरज भासनासली. म्हणटां म्हणटां, सायकल चलोवपांत हांवें खुबूच चलाखी सादयल्ली. तशें जाल्ल्यान चलोवपाची ती बरे तरेन सरत्या मार्गावयल्यान व्हरपाक कांयच जायनासलें. पूण तशें करपांत मजा ती कशी येतली? ही मजा करपा खातीर मागीर सायकली वयली सर्कस केले बगर चैन पडना जाली. गिये वयले हात सोडून सायकल चलोवप, गियेर पांय दवरून चलोवप, असले प्रयोग सुरू जाले. एक दीस आनीक कितें तकलेंत आयलें कोण जाणा, मशिदी लागसार रस्त्याच्या दोनूय कडांनी आशिल्ल्या माडांक खणणी केल्ली आनी तशें केल्ल्यान दर दोन माडां मदीं मेर तयार जाल्ली.ह्या मेरां वयल्यान सायकल चलोवन व्हरपाची खुमखुमी आयली आनी म्हजे बरोबरच्या भुरग्यां कडेन पैज लावन हांवें तो प्रयोग करपाचें थारायलें. पयल्यो कांय मेरो हांवें कसलीच आडखळ नासतना काडल्यो पूण मागीर, कसो कोण जाणा, म्हजो तोलच सुटलो आनी सायकली सयत हांव शेतांत लवंडलों. त्या दिसांनी शेतांत कांयच रेबट नासली. निकतीच लुंवणी जाल्ल्यान शेताची भूंय सुकी खटखटीत जाल्ली. ताका लागून म्हका तर खंयच कांय लागलेंना आनी घाल्ली मुस्तायकी इल्लीय लोळूंक पावलिना. सायकलूय बरे भशेन वाटावली. म्हणटा म्हणसर तीग चवग भुरग्यांनी घसाघस शेतांत उडक्यो मारल्यो आनी सायकल वयर मार्गार काडली. तिची गीय मातशी वांकडी जाल्ली ती नीट केली आनी सायकल तश्या तशी व्हरून शटिगेर पावयली. पूण घडिल्ली गजाल कोणें एकान पयशिल्ल्यान पळेल्ली. ताणें ती खबर बरी मीठ-मिरसांग लावन, येद्याची येदी करून, सांजचो बापूय म्हाड्डोळा गेल्लो थंय ताच्या कानार घाली. तोय तें आयकून भियेलो. तिनसांजचो घरा येनाफुडें ताणें सगळ्यांत पयलीं म्हजी चवकशी केली जाल्यार हांव इश्कोलांतल्यान परतो येवंक ना अशें ताका कोणें तरी सांगलें. ताकाय मातसो हुस्को सो जालो. इतल्यांत हांव आनी मोहन घरा पावले. इश्कोल सदां भशेन सांजचेंच सुटिल्लें. घरा पावनाफुडें हांव आनी मोहन खेळपा खातीर काय दोंगरावेले म्हुट्टे काडपा खातीर भायले भायर उठून गेल्ले. आनी परते येतासर आमकां तिनसांज जाल्ली. आमी आयले हें कळनाफुडें बापायन पयलीं मोहनाक आफोवन व्हेलो.

''तुमी आज सायकल घेवन खंय फिरताले?''

''हांव नाशिल्लों. तोच भोंवतालो.''

''पूण खंय भोंवताले रे?''

''मसदी कडेन.''

''मागीर सायकली वयल्यान तो थंय पडलो खंय?'' मोहन वोगी रावता. बापूय परतो ताका विचारता, ''हांव कितें विचारतां तें आयकता मरे तूं? तो पडलो ही गजाल खरी?''

''ना, तसो पडूंक ना तो. फकत लवंडलो.'' मोहन तांतले तातूंत शाणेपण करता आनी घडणुकेंतली फुंकच काडपाचो यत्न करता. इतल्यांत विशय आनीक फुडें वाडूंक पावना. सायकली वेल्यान कोण पडूंक ना, आनी कोणाक कांय जावंक ना, इतल्यांतच बापायचें समाधान जाता. मोहन सांगतलो तें फटी आसचें ना हाचेर ताचो भावार्थ आसलो. म्हजेर ताचो विस्वास नासलो. वेळ मारून व्हरूंक हांव गरज पडल्यार फटी लेगीत मारीन, अशें ताका दिसतालें. मोहन आनी हांव सभावान दोन तरांचे. हांव सगळें कितें सांगून

उडोवपी, कितेंच राखून दवरिनासतना. तो भितल्ले गांठिचो. कोणाकच भायर सुलूस लावंक दिनासतना कार्य सादून मेकळो. आमी दोगूय जाण मस्ती करपा वेळार एकठांय आसताले. पूण मस्ती करता कोण म्हण विचारल्यार नांव घेताले म्हजें. तो बरोबर आसुनय ताचें नांव खंयच ना. ही चलाखी ताका बेस बरी सादिल्ली आनी ताका लागून बापायचे कड्डे खावचे पडटाले तेय म्हाकाच. तोय मस्ती करपांत वांटेकार आसा अशें सांगल्यार लेगीत कोणूच खरें मानिनासले. सगले बोल कितें म्हळ्यार म्हजेर. फुडें जाणटेपणांत केन्ना केन्ना बापूय म्हणटालो खंय, ''तो व्हडलो म्हळ्यार फकत बोबाटो. मोन्यांनी काम करपाचें बेस बरें सादलां तें दुसऱ्याक.'' भाव भाव खरे, पूण दोगांच्यो दोन तरा. त्या दिसा मस्तेचो व्हडलोसो बोवाळ जावंक पावलोना खरो, पूण म्हज्या नादाक लागून सायकल चड चलोवंक बी नाका हाची बापायन मोहनाक बरे तरेन शिटकावणी दिली. आनी इतल्यान विशयाक आनीक फांटे फुटूंक पावले नात.

एक दीस जेवणां आटपून दनपरां हांव, मोहन आनी गुरुनाथ हें त्रिकूट इश्कोलाक वचपाक बेगीन भायर सरलें. इश्कोल सुरू जावचे पयलीं सायकलीन भोंवपाचो आमचो बेत आसलो. बेगिबेगीन पावलां मारीत आमी एकदांचे म्हाड्डोळा पावले. मोहन आनी गुरुनाथ मसदी कडेनच रावले आनी हांव एकलोंच अनंत शेटिगेर सायकल भाड्याक हाडूंक बाजारांत गेलों. सायकलीचेर तीग जाण बशिल्ले शेटीक माननासलें आनी सायकल दिवपाक तो केन्ना केन्ना कांकूं करतालो. सायकल घेवन हांव रोखडोच मसदी कडेन आयलों आनी आमी तिगूय जाण वेलंगां वचपाक भायर सरले. सांकव काडिना फुडें वेलंगे वाटेर इल्लोसो चडाव लागता तो तीग जाणांक बसोवन काडप कुस्तार जाता म्हण त्या दोगांक थंयच देंवोवन हांव एकलोच चडाव काडून वयर मोयरां वाड्यार तांची वाट पळेत रावलों. ते आयले तशे आमी तिगूय जाण सायकलीर बसले आनी फुडले चालीक लागले. मुखार दांड्यार बसलो मोहन आनी फाटल्या ब्रॅकेटार गुरुनाथ. सायकलिचें शेल मातशें वयर आशिल्ल्यान पांय पेदाला कडेन पावयतना घासाघीस जाताली. पूण ताची आमकां आतां इतली संवय जाल्ली की ताचो व्हडलोसो त्रास जायनासलो. म्हणटां म्हणटां आमी वेलंगां सांतेरी देवळा कडेन पावले. दनपारचो कड आशिल्ल्यान भायर रस्त्यार झळकुपाक कोणच नासलो. सगळें सामसूम. फुडें गोठणांत वचपाचें थरिल्ल्यान पयलींच इल्लीशी देंवती लागता तिच्या नेटार पेदाल मारिनासतना कांय न्हय करून आमी देवळा कडेन पावतले अशें दिशिल्लें. गोठणांत पावचे पयलीं उजव्यान एक माडांचें भाट लागता आनी दाव्यान कुळागर. भाट सोंपता थंयच फुडल्यान एक व्हाळी व्हांवत येवन दाव्यान मोडण घेवन फुडें वता. ही व्हाळी वेलींगकारांल्या घरा कुशीनच्यान आयिल्ली आसता. दिस्त ह्या मोडणा म्हऱ्यांत दावे कुशिनच्या कुळागरांतल्यान व्हांवपी एक उदका खळी मार्गा पोंदच्यान व्हाळयेक मेळटा. ती मार्गा पोंदच्यान गेल्ल्यान थंय मार्गाक मातशी उबारी आयिल्ली आसा. दिस्त हेच उबारेचेर सायकलिचो वेग मंद पडिल्ल्यान सायकल थांबता. दोन चाकांची सायकल थांबप म्हळ्यार चलयतल्यान पेदाला वेल्यान देंवप. पूण हांगा तर फुडें एक आनी फाटल्यान एक अशे दोग जाण बशिल्ले आसात. दुसरो उपाय म्हळ्यार सायकल लवंडून घेवन सुटका करून घेवपाची. हांव तेंच करपाक वतालों इतल्यान कशें कोण जाणा, फाटल्यान ब्रॅकेटाचेर बशिल्ल्या गुरुनाथान उजव्यान व्हांवतले व्हाळयेंतच उडकी मारून सुटका करून घेतली. गुरुनाथ देंविल्ल्यान सायकलीचेर आशिल्ल्या दोगांक दाव्यान लवंडून घेवप सोपें जालें. वयर रावन व्हाळा उदकांत कसलो आवाज जालो काय म्हण पळेत जाल्यार गुरुनाथ त्या उदकांत पडिल्ले कडेन हात आनी पांय डबऽ डबऽ करून आपटिता. आमी ताका म्हळें, ''आरे? कित्याक रे तूं इतलो धडपडटा? व्हाळयेंत उदक तरी आसा कितलें? इतलो भियेलो कित्याक तूं? बुडटलो म्हळ्यार तितलें लेगीत उदक ना ते व्हाळयेंत. आसा तें धोंपरभर लेगीत जावचेंना. वयर सर आतां...'' इतलें हें सांगना फुडें आवरो उडिल्ल्या गुरुनाथाचो भंय इल्लो उणो जालो आनी तो उदकांतच उबो रावलो. पळे जाल्यार आमी म्हणटात तें खरें, व्हाळयेंत व्हडलेंशें उदकच ना हें ताका दिसून आयलें आनी आपणाले करणेची ताचे ताकाच लज जाली. उपरान्त हांवें ताका हात दिलो आनी तो वयर सरलो. आतां परिस्थिती विचित्रच जाल्ली. आमी दोगूय भाव सुके सडसडीत आनी तो व्हाळये उदकांत भिजून चिप्प जाल्लो.

रोखड्या रोखडे आमी परतले. मोहन आनी गुरुनाथ हांकां मसदी कडेन आशिल्ल्या झोपां आड रावंक सांगलें आनी हांव सायकलीन पिटाळ मारून घरा गेलों. गुरुनाथालें सुकिल्लें कल्सांव आनी खोमीस चवखे वयले दांडयेर आशिल्लें तें तशेंच कोणाक जागमूग लायनासतना, तशा तशें थंयच्यान उबारलें आनी तें घेवन सायकल धांवडायत धा मिनटां भितर हांव मसदी कडेन पावलों. भिजिल्ली मुस्तायकी मार्गा कुशीक आशिल्ल्या हुस्के झोपांनी लिपोवन दवरली आनी आंब्या पेडा आड रावन गुरुनाथान सुकी मुस्तीयकी चडयनाफुडें आमी इश्कोलाक गेले. ही व्हाळांत पडिल्ल्याची खबर मात आज मेरेन आमचे मदींच उरली. भायर खंयच पावलिना.

आज गुरुनाथ 'मार्ग' विशय घेवन कसल्यो ना कसल्यो राटावळी करतना दिसता तेन्ना म्हाका वेलंगीच्याच मार्गा विशीं तो कितेंय तरी सांगता काय अशें दिसूंक लागता. त्या मार्गाचो ताणें इतलो काच घेतला की ती गजाल घडल्यार आयज पन्नासां वयर वरसां जावन गेलीं तरीय तो ती विसरूंक पावंक ना असो म्हाका भास जाता. गुरुनाथाले वृत्तींतलें खाशेलेपण म्हणटा तें हे घडणुकेंत सामकें उकतेपणान दिसूंक लागता. माजर जावं कुत्रो न्हिदिल्ले कडेन लेगीत जागो आसता. आपणाचेर कोणय आगळीक करीत हाची भिरांत रातदीस ताच्या मनांत घर करून राविल्ली आसता. खंयचीय मोनजात आपणाली राखणी करपांत केन्नाच आळसाय करिना. गुरुनाथाचे वृत्तींत ह्याच गुणाचो अंश बारकायेन सोदीत जाल्यार दिसूंक जाय. हाचें म्हत्वाचें कारण म्हाका दिसलां तें हेंच. भुरगो आसतनाच ताच्या बापायक 'आरे'चें दुखणें जावन तो घरा भितर उरिल्ल्यान घरची जापसालदारकी ताच्या आंगार पडली. हांसून, खेळून, मस्ती करून सारपाचे दीस ताका मनमेकळेपणान घालूंक मेळ्ळे नात. ताचे आवयक ताचोच आधार म्हत्वाचो आसलो. ते भायर भावंडांचो फुडार थारावपाचें कामय ताकाच करपाचें आसलें. घरचे बांदिलकेच्यो गजाली त्या त्या मनशानच करपाच्यो आसतात. त्यो दुसऱ्यांक कळतातच-श्यो नात. व्हाळांत पडिल्ले कडेन आपणाली राखणी करप ही गजाल गुरुनाथाक सगल्यांत म्हत्वाची दिशिल्ल्यान, धड पावलभर लेगीत उदक नाशिल्ले व्हाळयेंत तो हातपांय बडोवंक लागता तो घडये जिवाचे भिरांतीन म्हणूं येता. ताका पेंवपाचो अणभव नाशिल्लो, पेंवतना हातपांय हालोवचे पडटात हेंय ताणें पळेल्लें वा आयकल्लें, उदकांतले ताचे धडपडिची हीं कारणां आसूं येत, पूण तीं व्हडलिंशीं म्हत्वाचीं म्हणूंक येना. ताची ती आकांत करून केल्ली धडपड म्हज्या दोळ्यां मुखार अजुनय तश्या तशी येता. तो देखाव तिसऱ्याक हांसो हाडपासारको आसलो तरी ताची गंभिरताय

करून भागचेंना.

शिक्षणाच्या मळारय आयज हेच गजालिची खरी गरज आसा. जण एका ाचें घरचें तशें भोंवतणचें वातावरण कशें आसा तें जाणा जावन घेवन, मनोवृत्ती समजून घेवन ताका शिक्षणाचे पाठ दिवंक जाय. शिक्षण दीक करपाचो हाचे बगर दुसरो खंयचोच मार्ग ना. विशयाची जाणकारी ा परस भुरग्याचें व्यक्तित्व घडोवप होच आदर्श शिक्षकाच्या दोळ्यां र आसपाची आज खरी गरज आसा. नाजाल्यार मास्तरान इतलें यलें पूण भुरगो शिकलोच ना तें कशें हाची जाप मेळप कठीण जातलें.

□□ □

ह्या वरसा हांव इश्कोल प्रिमारियांत सेगुंद ग्रावाक आशिल्लों. प्रोफेसोर हांची खंय तरी दुसरे कडेन बदली जाल्ली आनी आमच्या इश्कोलांत या जाग्यार एक पाद्री प्रोफेसोर आयिल्लो. लांब लांब धवीच काबाय घाल्लो ो-आमकां शिकयता म्हळ्यार तें आमकां एक अप्रूप जाल्लें. पाद्रीक वपाची आमकां संवय ती पुरसांवा वेळार ना जाल्यार इंतेरा वेळार. तो शिकिल्लो सवरिल्लो प्रोफेसोर आसूं येता अशें आमकां केन्नाच दिसलें देखून सुरवाती सुरवातीक ताचे कडेन पळेता आसतना आमकां घडिल्ले वरी जातालें.

पूण हो प्रोफेसोर खऱ्यांनीच खुबच मायेस्त आशिल्लो. सगळ्यां कडेन येन उलयतालो, सगळ्यांक मोगान वागयतालो. तो क्लासींत आसतकच कोलाचो वेळ केन्ना सोंपतालो तेंच कळनासलें. तो आपले परीन मन लावन कयतालो. पुर्तुगेजींत उलयल्लें सगळें आमकां समजना जाल्ल्यान तो कणींतल्यान आमकां तें समजायतालो. तागेलें तें पावला पावलाक यल्लें ''सोमगोलेंय मुरे'' हें वाक्य अजुनय म्हज्या कानांत घणघणटा नी हांव त्या फाटल्या काळांत पावतां. पूण एक गजाल खरी की म्हजे रक्याची शिकपाची हौसच दिशींदिशीं उणी जायत गेल्ली. पुर्तुगेजींतल्यान य उतरांच्या अर्था भायर आनीक कितें शिकपाचें तेंच म्हाका कळनासलें. द ग्रावाक लायिल्लें पुर्तुगेज भाशेचें पुस्तक होच आमचो सगळ्यांत म्हत्वाचो ाय आसलो. सिलेबसांत येताले ते दुसरे विशय म्हळ्यार गणित, गोंयचो ोल आनी पुर्तुगालाच्या इतिहासांत व्हड मनीस जावन गेले तांचीं चरितां. गळें शिकयताले तें तांचो अणकार करून. ताका लागून पुर्तुगेज भाशेची ी आमकां केन्ना लागुंकूच पावलिना. शिकपाचें म्हळ्यार फकत पाठ पाचें. आनी परिक्षे वेळार ताचेर आयिल्ले प्रस्न उत्तरपत्रिकेंत सोडोवपाचे. े भायर दुसरें कांयच ना. हाचो परिणाम असो जालो की शिकपा परसूय गजालिंनी आमचें मन चड रमूं लागलें. म्हजे क्लासींत वामन नांवाचो एक ायेन इल्लो जाणटो भुरगो आशिल्लो. तो रावतालोच म्हाड्डोळच्या देवळा ेन. म्हजो तो बऱ्यांतलो दोस्त जाल्लो. ताणें म्हाड्डोळा, देवळाच्या ारांत घडटात तितल्योय सगल्यो गजाली म्हाका सांगिल्ल्यो. नवी खंयची र ताका कळ्ळी की ना ती हाडून ताणें सुरसुरें कशी क्लासींत सोडची. ीर एकलो दुसऱ्याक, दुसरो तिसऱ्याक हे भाशेन सगळ्यां कडेन ती पशींच पावताली. ही खबर लागू पडटा अशें मनीस आमचे क्लासींत आसलें ल्यार ताच्या कानार पाव मेरेन वामनाक धीर नासतालो. एक फावट ती ली की वामनाचें कार्य तडीक पाविल्ले वरी जातालें. पूण ते खबरेंतलें ीस क्लासींतलें नासत जाल्यार मात तांतली फूंक आपशींच ना जाताली. ह्या कानांत आयकल्ली खबर दुसऱ्या कानांतल्यान भायर सरून उडून वताली. वरसभर सेगुंदग्राव शिकून पदरांत कितें पडलें हाचो हिशोब लायलो जाल्यार 'व्हडलेंशें कांयच ना' अशें म्हणून विशय सोंपोवचो पडटलो. पूण एक खरें की आमचें वरस फुकट वचचें ना हाची खात्री आशिल्ली. आमच्या प्रोफेसोराच्या बरेपणान कोणाचेंच लुसकान जावपाचें नासलें.

आमच्या प्रोफेसोराक जायते जाण, चडशे क्रिस्तांव भुरगे, पातीव म्हण उलो करताले. पातीव खुबच उमेदिचो आसलो. भुरग्यांमदीं तो रंगतालो. एक दीस ताच्या मनांत कितें आयलें कोण जाणा, आमकां सगळ्या भुरग्यांक घेवन तो मंगेशीचे वाटेर आशिल्ल्या कपेलांत घेवन गेलो. ह्याच कपेला बगलेक आशिल्ल्या एका सालांत तो रावतालो. आमकां ताणें कपेलाचो मुखेल सालांव भोंवडावन दाखयलो, आनी मीस म्हळ्यार कितें, तें कशें चलता तें सगळें समजावन सांगलें. आल्ताराचेर पाद्री उबो रावन मुखार दिमी घालून बशिल्ल्या क्रिस्तांव दादल्या-बायलांक जेजू क्रिस्ताचें व्हडपण कशे तरेन सांगता तें दाखोवन दिलें. तशेंच, तो क्रिस्ताच्या दिव्य करण्यांची ताच्या भगतांक खबर सांगून ताच्या उजू करण्यांची देख सगळ्या संवसारान घेवंक जाय अशी इत्सा उकतायता. पिरायेच्या तेरा वरसां मेरेन कपेल म्हळ्यार कितें, थंय क्रिस्तांव भाव दर आयतारा कित्याक वतात, मीस सांगतात म्हळ्यार कितें करतात, हांतलें कितेंच खबर नाशिल्ले आमच्यांतले जायते जाण, एक भोंवडी मारून पुराय खबर मेळोवंक पावतात ही खऱ्यांनीच एक अजापीत करपी गजाल म्हणपाची. दोळ्यांच्या आधारान ज्ञान मेळटा तें खरें ज्ञान आसता, चिरकाल टिकपाचें आसता हाचो अणभव कपेलांतले ते भेटीन मेळूंक पावलो. त्या वरसाची परिक्षा जायसर ह्या प्रोफेसोराचो सांगात आमकां मेळूंक पावलो हातूंत हांवें जायत्यो गजाली सादिल्ल्यो. म्हजे सारक्याच्या जिविताचेर ताका लागून मुळा सावन बदल जावंक पावलो अशें म्हाका दाटून दिसता. सगळेच प्रोफेसोर शिकयतात पूण शिकोवप्याच्या अस्तित्वाचो प्रभाव शिकतल्याचेर पडप हे गजालीक खूब म्हत्व आसा. शिक्षकाच्या अस्तित्वाक लागुनच शिकता त्या विशयाक घटसाण येवंक पावता. शिकोवपी तितलोच प्रभावी आसलेबगर खऱ्या शिक्षणाचो साक्षात्कार जावंक पावना.

ह्या वरसा क्लासींत केन्ना केन्ना भुरग्यां भितर बाचाबाच्यो जाताल्यो. एके वटेन चले भुरगे जाल्यार दुसरे वटेन कांय थोड्यो चलयो आशिल्ल्यो तांचे मदीं कितें तरी बिनसतालें आनी उतराक उतर दिवप सुरू जातालें. झगड्यांक मुळावण करपी आशिल्लो आमचो वामन आनी चलयांमदीं एकच हिंदू चली मुखार आसताली. एक दीस अशें कितें तरी निमित्त जालें आनी ते हिंदू चलयेचें एक वर्म हांवें भीड मुरवत धरिनासतना वयर काडलें, आनी तेंय वामनाच्या सांगपावेल्यान. पूण ताचो परिणाम बरो जालोना. हांवें ते चलयेच्या बापायचो नामोल्लेख केल्लो. तो आयकून तें रागान तांबडेंगुंज जालें पूण इश्कोल सोंपसर कांयच उलयलें ना आनी मागीर कोणाचीच वाट पळेनासतना तडक घरा गेलें.

दुसऱ्या काय तिसऱ्या दिसा सांजेवेळचो इश्कोल सुटनाफुडें हांव बापायबरोबर घरा येवपाक ताचेच म्हऱ्यांत राविल्लों. इतल्यांत पुडव्याचो कासाटो मारिल्लो, वयर खोमीस आनी ज्युदी घाल्लो तो मनीस फोंण्यासावन आयिल्ल्या कामिन्यांवांतल्यान म्हाड्डोळा देंवलो. देंवनाफुडें तडक तो म्हज्या बापाय म्हऱ्यांत आयलो. आनी ताका पुर्तुगेजींतल्यान कितें तरी सांगूंक लागलो. सेंगुंदग्रवाक आशिल्ल्यान आतां इल्ली इल्ली पुर्तुगेज म्हाका कळूंक लागिल्ली. ताणें बापायक म्हळें, ''सिन्योर घारु बाब, तुगेलो हो पूत खंय

इश्कोलांत नाका जाल्ल्यो खबरी उलयता. ताका बरें कितेंय तरी सांगून जाग्यार हाडचो पडटलो. नाजाल्यार तो तुज्या कपलार मिरीं वांटले बगर रावचोना.'' पुर्तुगेजींत सांगिल्ली ही गजाल म्हाका कळपाक कांयच बादा आयलिना. कांल काय पयर क्लासींत घडिल्ली ती खबर म्हज्या बापायच्या कानार तो घालता हें हांवें दिस्त ताडलें. तो उलयता तें म्हाका कांयच समजूंक ना अशे तरेचो भाव तोंडार हाडून हांव ओग्गी रावलों. हूं ना चूं केलें. इतलें हें सांगून तो रोखडोच थंयचो उठून गेलो. तो गेले उपरान्त बापायन म्हाका म्हळें, ''हय रे? असल्यो पोजड्यो खबरी तूं इश्कोलांत करता तें खरे मरे? तुका इश्कोलाक धाडला तो शिकूंक. खंयच्याय वाळेस भुरग्यांच्या नादाक लागून असल्यो लजेच्यो करण्यो करशी जाल्यार तूं म्हजी दशा काडटलो. हे फुडें कोण्णाचे भानगडींत तूं पडचोना आनी कोणाच विशीं कांयच उलोवंचोना.''

त्या दिसाच्यान हांवें थारायलें की हे फुडें एकाद्री खबर कानार पडली जाल्यार ती बरे तरेन आयकप, एकाद्री गजाल दिसली जाल्यार ती पळेले बगर रावप ना; पूण जिबेन मात ते आयकल्ले वा पळेल्ले गजालिचो उच्चार म्हण केन्ना करप ना. जिबेचेर लगाम घालो ना जाल्यार ताचे विपरीत परिणाम जावं येतात हाचो पयलो पाठ म्हाका हे घटनेन शिकयलो.

सोंपत्या मार्चांत फोंडेंच्या इश्कोल प्रिमारियांत आमच्यो परिक्षा जाल्यो आनी आमी सगळेच जाण तांतूंत पास जाल्ल्यान सेगुंद्रावाचें हें वरस अचळय आमच्या पदरांत पडलें.



दिसपट्टी भाड्याची सायकल घेवन चलोवप म्हळ्यार त्या कामाक पयशे जाय पडटाले. आमच्या भुरगेपणांत आमकां केन्नाच पयशांची अशी गरज लागनासली. जाय तें सगळें घरच्या घरा मेळटालें. बापूय केन्नाय अशे पयशे दितालो तो जात्रे वेळार. खंयचेय जात्रेक वचपाचें थरलें की कितेंय तरी विकतें घेवन खावपा खातीर एक थंय दोन रुपये तो दितालो. शाळेक जावं इश्कोलाक वता आसतना पयशे दिवपाची रितूच नाशिल्ली. आनी आमीय ते केन्ना मागलेनात.

आतां सायकलिच्या भाड्याखर्चाचें हें नवें कलम उप्राशिल्ल्यान ताचे खातीर दुडवांची वेवस्था केले बगर सायकल मेळप कठीण आसलें आनी खरेंय नासलें. तो काळ खुबच सस्तायेचो आसलो. पयेक आनी पयश्याक लेगीत मोल आसलें. तीं दिवन कितेंय ना कितें मेळटालें. बाजारांत नुसतें हाडूंक गेल्यार वेल्ल्यांच्यो गांथनी पयश्याक तीन मेळटाल्यो आनी बांगडे आण्याक वीस मेळटाले. ब्राह्मणींत भाजी आनी पाव खातलो जाल्यार आण्यान भागतालें. असल्या त्या काळार सायकलिचें भाडेंय कितें खूब नासतालें. वराक चार आणे भाडें दिवपाचें. पूण हे चार आणे हाडप खंयचे होच आमचे मुखार व्हड प्रस्न उबो रावतालो. सायकलिचें नांवच घेतल्यार बापायचें पिन्त चाळवतालें. ताचे कडल्यान पयशे मागचे पडल्यार ते कित्या खातीर मागपाचे तेंच कळनासलें. केन्ना केन्ना आवय कडल्यान मोडचे चार आणे जावं आठ आणे मागून आमी गरज भागयताले. पूण सदांच दिवपाक तिका तरी खंय सॉर्त लागिल्ली? निमाणें निरुपाय जावन कितेंय तरी करामत करून बापायच्याच बल्सांतले मोडचे पयशे काडप होच एक उपाय सोयिचो दिसलो. ते खातीर वेळ काळ पळोवन तें काम करचें पडटलें अशें हांवें थारायलें.

बापायच्या बल्सांत मोडचे पयशे म्हळ्यार मेकळीं नाणीं खूब आसतालीं. तांतलीं एक दोन काडलीं जाल्यार ताका कळपाचें लेगीत ना असो म्हजो तर्क आशिल्लो. आनी तो बरोबरय आशिल्लो. बापूय म्हाझ्डोळच्यान घरा दनपरां येतालो आनी ताची ज्युदी सकयले ताचे कुडींत तो खुंटयाळाक लायतालो. उपरान्त कांय वेळ बसून, ताका सोदूंक आयिल्ल्यां कडेन उलोवणीं बी जायनाफुडें तो न्हावंक वतालो. न्हाले उपरान्त रोखडोच तो पानार बसतालो. दिस्त होच वेळ सादून, कसलीच जागमूग करिनासतना, उडट्या पावलांनी अळंग कुडींत वचप आनी ज्युदयेच्या बल्सांत हात घालून रुपयो जाल्यार रुपयो, आठ आणे जाल्यार तेय, कितें हाताक लागता तें नाणें काडून कोणच ना हाची सुलूस घेवन भायर येवप आनी तें चोरिल्लें धन लिपोवपा खातीर माळी गांठप आनी थंय व्हरून खंयच्या तरी वणटी वेल्या फोट्या फाटल्यान नाजाल्यार खंयचे तरी आस्कडीक तें दवरप. हे भशेन हो नित्याचोच वावर जावन पडिल्लो. बल्सांत मोडचे पयशे नासल्यार मात तो दीस फुकट्यार वतालो. पूण सेमानांतले तीन चार दीस तरी कितेंय ना कितें तरी मेळिल्ल्यान गरज भागताली. हें अशे पयशे काडपाचें कितलो तेंप चल्लें तें सांगूंक जावचेंना. पूण जायतो तेंप मेरेन कसलेंच आडमेळें आयलेंना इतलें मात खरें. सायकलिच्या भाड्या खातीर पयशे नात अशें केन्नाच जालेंना. आपणाल्या बल्सांतले मोडचे पयशे काय जायना पूण ते ना जातात हाचो दुबाव लेगीत बापायक केन्ना आयलोना. ताका लागून पयशे कोण काडटा तें सोदून काडपा खातीर पाळटेर रावपाचें ताच्या मनांत लेगीत केन्ना आयलेंना. पूण एकच गजाल ताच्या मनांत खटकताली ती म्हळ्यार ''हांकां सायकल भाड्यान घेवपाक खंयच्यान पयशे मेळटात?'' आवय दिता बी जाल्यार जाणा जावन घेवपाक तिणें तिका विचारून पळेलें. तिणें बाबडेन आपणें दोन तीन फावटी आठ आठ आणे दिल्ले, मागीर केन्नाच ना हें खरें तेंच सांगून उडयलें. हो विशय इल्लो घुस्पागदळाचो जाल्ल्यान ताचो सोद हो लावचोच पडटलो अशें ताणें थारायलें. ना म्हळ्यार एक दीस ताणें मजाच केली. बाजारांत मोडिचे वेव्हार करतना ताच्या हाताक एक खंयच्या तरी भायल्या देशाचें नाणें लागिल्लें. तें आशिल्लें आठ आण्याच्या आकाराचें आनी वयले वयर पळेल्यार आठ आणेच शे दिसतालें. तें एकूच नाणें ताणें बल्सांत दवरून बाकिची मोड काडून दुसरे कडेन दवरली. हें जाळ चोराक धरपाच्या कामांत बेस बरें थरतलें अशें ताका दिशिल्लें. दुसरें कोणूय येत ह्या भंयान बल्सांतली वस्त काडपी मनीस तिचे कडेन बारकायेन पळेना. हातांत आयली की ती घेवन चलूंक लागता हें बापायक बरे भशेन खबर आशिल्लें. त्या दिसा तो जेवणय बेगीन जेवन उठलो आनी आंवन करून तशातसो कुडींत आयलो. बल्सांत हात घालून पळेत जाल्यार तें नाणें थंय ना. ताणें मनांत म्हळें, चोर जाळाक लागलो. आतां कोण तो चोर इतलेंच पळोवपाचें. ताका म्हजो दुबाव आसलोच, तरीय ताणें पयलीं मोहनाक उलो मारून आफयलो, आनी ताका विचारलें, ''म्हज्या बल्सांत एक आठ आण्याचें नाणें आशिल्लें तें तुवें बी काडलां व्हय?''

''ना, हांवें ना काडूंक'', मोहनान म्हळें.

''मागीर घरांत बी तुजे आवयन काडलां जाल्यार तिका विचारून यो.'' बापायन म्हळें.

आवयक मोहनान विचारतकच तिकाय अजाप दिसलें. आठ आण्या खातीर हाची इतली चवकशी चल्ल्या कित्याक, हें जाणा जावन घेवपाक ती वाडटाली थंयची भायर कुडी कडेन आयली. ''कितें जालां? आठ आण्या

खातीर कित्याक इतलो हो बोवाळ?''

''तुका तें कळचें ना. म्हज्या बल्सांतले, म्हाका सांगनासतना हे आठ आणे चोरपी कोण हें म्हाका कळूंक जाय.'' बापायन इल्लो आवाज चडोवन म्हळें. ''आतां तूं एक कर, सुमंत खंय गेला? ताका मातसो हांवें आफयला म्हण सांग. हांतलें ताच्या कानार कांयच पडूंक जायना'', बापायन आवयक सांगलें. ती थंयची उठून उले मारीत चवखेर गेली.

हांव हे वटेन माळयेरच इस्कादे वयर आशिल्लों आनी सकल कितें चल्लां तें सगळें आयकतालों. आतां म्हजो भरलो कुडव हें म्हाका दिशिल्लेंच आनी ह्या वेळार हांवें करपाचें कितें तेंच म्हाका समजनाशिल्लें. इतल्यांत चवखेर गेल्ली आवय हांव थंय ना हें सांगूंक परती आयली. म्हणटासर रागा भरांत बापूय कुडींतलो भायर आयलो आनी म्हाका उले मारूंक लागलो. तेन्ना मात म्हज्यान रावंक नज जालें. हांव एक एक पावल घालीत इस्कादी वयल्यान सकल देंवंक लागलों. म्हणम्हणसर बापूय भायर बल्कांवाचेर गेल्लो म्हाका दिसलो तेन्ना हळूच मोहनाक म्हन्यांत आफोवन ताचे कडेन तें नाणें दिलें आनी हांगाच जमनीर तुका तें मेळ्ळां अशें बापायक सांगपाक हांवें ताका काकुळटेक येवन सांगलें. मोहन तें हातांत घेवपाक कांकूं करूंक लागलो तरीय मागीर ताका कितें दिसलें कोण जाणा, ताणें तें घेतलें. आनी बापाय म्हन्यांत वचून बापाय कडेन दीत ताणें बापायक सांगलें, ''हें पळे तें नाणें, सुमंताक येदोळ हांगाच जमनीर मेळिल्लें खंय. कितें चकचकता म्हण पळेत जाल्यार तें नाणें आसलें.''

''तें आसूं, पूण सुमंत खंय आसा रे? तो लिपतासो कित्याक?'' बापूय म्हणटा.

''हो पळे हांगाच आसां हांव.'' हांवें आवाज मेकळो करीत म्हळें.

''भाड्याची सायकल हाडून चलोवपाक तूं खंयचे पयशे हाडटा रे? म्हज्या बल्सांतले काडून ते तूं मोडटा मरे? म्हाका सगळें खबर आसा. पूण हे फुडें तूं म्हज्या बल्साक हात लायशी जाल्यार पळे! तुका सायकल मेळपाचीच बंद करून उडयले बगर रावचोंना.'' मागीर फुडें आनीक कसलोच बोवाळ जालोना.

चोरये माल व्हडल्या मोलाचो नासलो, पूण चोर सांपडिल्लो, मुद्देमाला सयत मेळिल्लो हें म्हत्वाचें आशिल्लें. म्हज्या बापायक इतलेंच पुरो आशिल्लें.

ही गजाल घडल्यार आयज सुमार साठेक वरसां जायत आयलीं आसतलीं. तरी ते घडणुकेचो अंशान अंश तश्शा तसो म्हजे तकलेंत आसा.

ते घटकेक लागून म्हज्या सभावांत एक अकस्मित परिवर्तन जालें अशें मानपाक हरकत ना. हांव कोणाक दिसना हे तरेन बापायच्या बल्सांतल्यान पयशे काडटालों आनी म्हजी गरज भागयतालों. म्हळ्यार एके परीन हांव पयशे चोरतालों. चोरी उकताडाक आयली तेन्ना म्हजे म्हाकाच लजेन मेल्ले वरी जालें. ताचें म्हाका खुबच लागिल्लें. ताका लागून त्या दिसाच्यान हांव फुडें केन्नाच एकलो म्हण बापायचे कुडींत गेलों ना. म्हज्या पावलांकूच ते कुडिच्या हुंबऱ्याचें वागरें पडिल्लें. कोणूय दुबाव बी घेयतच हाची भिरांत दिसताली. कुडींतच वचना म्हळ्यार बल्सांतले पयशे ना जावपाचो प्रस्नच निर्माण जायनासलो. म्हज्या जिवितांत हांवें घोळयल्लो हो अणभवाचो पाठ म्हज्या अंतरंगांत, नसानसांत भिनिल्लो. चोरी करप ही हिणसावणेची गजाल जावन बशिल्ली. हाचो परिणाम असो जालो की म्हज्या फुडल्या जिवितांत म्हज्या भुरग्यांक चोरी करपाची हांवें संदूच केन्ना दिली ना. तांचे खातीर म्हजे बल्स सदांच उकतें आसतालें. तांतले जाय तितले पयशे काडपाची तांकां मेकळीक आशिल्ली. पूण गरजे भायर पयशे काडपाचें कोणूच मनांत लेगीत हाडनासलें. आपणाक लागतात तितलेच काडपाचो तांचो सभाव जाल्लो.

चोरी करिना असो मनिसूच मेळूंक कठीण अशें आयज उठटा सुट्टा तो म्हणूंक लागता तेन्ना ताच्या फुडाराचें चित्र काळखांत घुस्मटिल्ले वरी दिसूंक लागता. चोरी करपांत कितें तरी वायट आसा अशें कोणाकच दिसना. उफाट्टें, चोरी करिना जाल्यार सुखांत जियेवंक येता व्हय? संवसारांत सगळेच चोरतात मागीर आमी कित्याक फाटीं रावंक जाय? असलीं तर्कांभायलीं तर्कटकां जण एकलो करीत आसता. पूण चोरी करप ही एक बाह्यातकारी करणी न्हय, तो अंतराक दुखोवपी, रगतबंबाळ करपी एक घाय आसता आनी तो घाय पेखोवपाचें मलम तयार करपाचें कर्तुप अजुनय खंयच्याच धन्वंतऱ्याक सादिल्लें ना. हे गजालिची जाण जण एकल्या कंवळ्या भुरग्याक करून दिवपाची गरज आज खुबच वाडल्या.

म्हजीं आनी मोहनाचीं झगडीं झुजां आत्र्या पयऱ्यान जातालींच. ह्या गाळया-झुजांत गाळिंचो शिंवोर पडटालो. आनी गाळी संवपांत म्हजे मुखार ताचें कांयच चलनासलें. अशें जालें की ना, रामायण जावं महाभारतांतल्या झुजांत वापरुपाचें निमाणें अमोघ अस्त्र आसतालें तशें ताच्या बासनांत आशिल्लें तें घातमारें आनी निमाणें अस्त्र तो भायर काडटालो आनी किंवाट्यान उच्चारतालो, ''आठ आणे चोर!'' आनी तें कानार पडनाफुडें हांव थंयचे थंय गळसंडतालों, शक्तिहीण, बळहीण दुबळो जावन रोखडीच हार खातालों. म्हाका परती वाचाच फुटनासली.

□□□

सायकल चलयता आसतना खंय ना खंय आस्कटांत विस्कटांत पडपाचें आनी आंगाक घाय, दूख, फेरिदां जावपाचीं हें सदचेंच जाल्लें. सामकें संवकळिचें. पांय हात खरचट्टाले, केन्ना केन्ना धोंपरांचीं जावं कोंपराचीं सालपटां वतालीं आनी रगता लोट व्हांवूंक लागताले. पूण जालां तें व्हडलेंशें न्हय हे परीन ताचेर उपचार जाताले. घरांत येवन स्टोव्ह पेटोवपाक हाडिल्ली आलकोलाची बाटली उगडप. एक कापसाची गुड्डी करून ती आलकोलांत पचपचीत भिजोवप आनी ती फुटिल्ल्या घायांक सारोवप. आलकोल लायिल्ल्यान चुर्रर्र जातालें पूण मागीर खंयचे कडेन कांयच जावंक ना हे तरेन परती तीच मस्ती सुरू जाताली. सायकल चलयतना घडिल्ल्यो अश्यो दोन घातकी घडणुको हांव केन्नाच विसरचों ना त्यो म्हळ्यार म्हजो आतेभाव दत्ता हाका सायकलिचेर बशिल्ले कडेन जाल्लो आक्सिदेंत आनी दुसरो, तशेच तरेचो नरूक पांयाक जाल्लो भयभीत करपी घाय.

गिमाचे दीस आशिल्ले आनी माया म्हयन्यांत जयश्रीआका कुळारा मुदांसाक आयिल्लें. दत्ता, कुमूद, सुमन हीं भुरगीं आयिल्लीं. बाबल मात पणजेच राविल्लो. माय म्हळ्यार आंब्या-पणसांचे दीस. सुटये दीस बरे हांसून खेळून वताले. तांतले तातूंत हांव आनी दत्ता दिसांतल्यान सायकलीन एक तरी फेरी मारपाचें सोडनासलें. हांगा भाड्याक सायकली एक दोन आशिल्ल्यान त्यो मेळ्ळ्यारच सायकल चलोवप जातालें. नाजाल्यार आमी फुकट्यार पडटाले.

जयश्रीआका बी येवन आठ धा दीस जाल्ले. इतल्यांत एक दीस दनपारचीं जेवणां बी जायनाफुडें हांव आनी दत्ता दोगूय उठून शेटील्यांत गेले. पांडुरंग

शेट म्हाड्डोळच्यान येतकरच आमकां सायकल मेळपाची. तो आयिल्लो आनी भितरले पडवेर सायकल आमची वाट पळेताली. सायकल घेवन आमी मार्गार आयले आनी थंयच्यान आमी आपेंचे वाटेक लागले. वोत रखरखल्यान हुमेच्यो पांवळ्यो लागिल्ल्यो. ताका लागून जावंये एक वेळ नीट आप्यां वचनासतना गाळींत उजवे वटेन आशिल्ल्या सटया मळारच सावळेंत सायकल चलोवची ह्या बेतान आमी थंयच थारले. सटया मळार मदीं मदीं झाडां आशिल्लीं. तितल्या त्या सावळे वाटारांत सायकल चलोवपाची म्हळ्यार फकत वाटकुळेच भोंवताडे काडपाचे. दत्ता फाटल्यान ब्रॅकेटाचेर आनी हांव घुंवडाळ्यो मारतां, हे भशेन अर्दवर तीच कसरत चलिल्ली. वाटकुळ्योच फिरक्यो जाल्ल्यान आनी पुरत्यांत इल्ल्यो अदीक वेगान मारिल्ल्यान एके वटेन सायकल अदीक लंवडताली आनी केन्ना केन्ना फाटल्यान बशिल्ल्या मनशाचें पावल जमनीक आपटतालें. थंयची जमीन बरीच खडबडीत आशिल्ल्यान थंयचे फातरा कुडकेय ब्रॅकेटा वयल्याच्या पांयांक मदींमदीं आदळटाले. तशें घडये जाल्ल्यान जावंये, दत्तान पावल फाटल्या रोदा कडेन घेतलें आनी ताचो पांय रोदाच्या रांयांनी जिरखलो. इतले भितर खडखड जावन सायकल आपशींच थांबली. तो मेरेन कितें जालें म्हणपाचें दत्ताक लेगीत कळ्ळेंना. सायकली वयलो देंवन हांव कितें जालें काय म्हण पळेतां जाल्यार दत्ताक पांय भायर काडूंक येना. तशीच सायकल दत्ता सयत ओड ओडत व्हरून लागींच आशिल्ल्या झाडाक तेंकयली आनी मोट्या कश्टान सायकलिच्यो एक दोन रायो हातांनी बागोवन पावल भायर काडलें. पांयाचे खिळयेचें सालपट सोलून गेल्लें. पूण रगत मात येवंक नाशिल्लें. तें पळेनाफुडें भंयान जीव आकुळपिकूळ जालो आनी फुडें कितें करपाचें तेंच कळना जालें. दत्ताय खुबच भियेल्लो आनी रडूंक पाविल्लो. हांवें ताका निमाणे तश्यातसो सायकलिच्या दांड्यार बसयलो आनी नीट घरा हाडलो. मार्गा वयल्यान सकयल घरांत येतना तो लंगडटालो. पूण दोगां तिगांचो आधार घेवन ताका चवखे वयले कुडींत येवचें पडलें. आनी सायकल पावोवपाक हांव परतो शेटीगेर गेलों.

परतो घरा येवन पळेत जाल्यार कुडींत रडारड चल्ल्या ती सोंसपाची न्हय. जयश्रीआकाक धीर नांवाची गजालच खबर नाशिल्ली. तें असलें पळेनाफुडें रोखडेंच आंग गाळटालें आनी तांबडेगुंज जाल्ले दोळे एक्कासारके पदरान पुशीत रावतालें. म्हाड्डोळा कोणाक तरी धाडून दोतोराक घेवन यो म्हण बापायक निरोप धाडलो आनी तें कळना फुडें रोखडोच दोतोर अनंत सरदेसायाक घेवन तो आयलो. दोतोर कुवेलकार व्हिजिताक गेल्लो पूण ताच्या येवपाची वाट पळेनासतना मेळटा त्या दोतोराक घेवन तो आयलो. दोतोरान पळेलें. पावलाचे खिळये वयली कात गेल्या पूण रगत बी कांय येवंक ना; म्हण दूख उणी करपाक ताणें दत्ताक एक इंजेसांव दिलें आनी साल गेल्ले सुवातेक लावपाक एक कसलें तरी मलम बरोवन दिलें. ते भायर पांयांचे खिळये भोंवतणी दिसांतल्यान एक दोन फावटी जिन्याचें पाप घालूंक सांगलें. इतलो हो बोवाळ चल्ला आसतना जयश्रीआकान, कोणाच्या रागान कोण जाणा, पूण पणजे घरा परतें वचपाची तयारी बी करून सामान बांदपाक सुरवात केल्ली. जाता तितले बेगीन कोण मेळटा ताका पणजे धाडून भावोजीक ताका व्हरपाक 'मोटार घेवन यो' असो निरोप दिवपाचे तयारेंत तें आशिल्लें. पूण इतले मजगतीं हो दोतोर आयलो आनी उपचारय सुरू जालो, ताचें ताका मातशें बरें दिसलें. ते भायर दत्ताय बरे उमेदीन उलोवंक लागिल्लो. दुसरें म्हळ्यार भावान तशें घरांतल्या जाणटेल्यांनी ताचो समज घालून, ''हें असलें जालें म्हण इतलें भियेतात गो?'' बी सांगून ताच्या मनांत आयिल्लो पणजे वचपाचो विचार खिणाभितर काडून उडयलो, आनी इतल्यांत तें निवळ्ळें. मागीर ताच्यो सगळ्यां कडेन खबरी सुरू जाल्यो. न्हिदला थंय बसून दत्ताक बारिकसाणेन प्रस्न विचारून पावल सायकलिच्या रोदांत कशें पडलें हाची खबर ताणें ताचे कडल्यान काडून घेतली. मागीर म्हाका म्हऱ्यांत घेवन ताणें दत्ताचें पावल रोदांत वचपांत कोणाली चूक आसली बी विचारून घेतलें. आनी ताची खात्री जाली की हें घडपा फाटल्यान कोणाचीच चूक ना. घडपाचें आशिल्लें तेंच घडलें. आनी अशे तरेन ताणें आपलें आपूण समाधान करून घेतलें. ना म्हणपाक रागाच्या भरांत ताणें सायकल, सायकलिच्या धनयांचो, सगळ्यांचो खेप केलोच.

जयश्रीआकाचो एक भुरगो ल्हानपणांतच तकलेक कसलीं तरी दुखणीं जावन भायर पडिल्लो. तेन्नासावन मनान तें सामकें हळवें जाल्लें. दुयेंस म्हळ्यारच भियेतालें. दत्ता पडटकच ताणें जो आकांत केलो ताचे फाटलें कारण घडये हेंच आसतलें.

दुसऱ्या दिसाच्यान दत्ताच्या घायाचेर पाल्या वखदांचो मारो सुरू जालो. पापां, खते बीं जायतीं. तो गुळयांचो काळ नाशिल्लो. ऊठसूठ कसल्यो तरी गुळयो दी अशें दोतोर करिनासले. अँटीबायोटिक जाल्यार निर्माणच जावंक नासलें. ताका लागून खंयचेंय दुयेंस निवळपाक कांय वेळ लागतालो खरो पूण तें सासणाचें निवळटालें.

दत्ताचें फेरीद सामकें पेखून निवळपाक म्हयनोभर लागलो. पूण म्हयनो सोंपचे पयलींच जयश्रीआकालीं सगळीं परतीं पणजे गेल्लीं. दत्ताच्या पांयाची ती माव मात जल्मभर तशीच उरली. जाणटेपणांत केन्नाय याद जाल्यार दत्ताक हांव ''ती पळोवया रे तुज्या पांया खिळयेची माव'' म्हण ताका सांगून ती पळेतालों आनी भुरगेपणांतल्या यादिंनी घुस्मट्टालों. ती याद व्हडलिशी सुखदिणी नाशिल्ली, पूण घडिल्लें तें अचकीत घडिल्लें, कसलीच नात नासतना घडिल्लें. त्या वेळार जीव आकांतून आयिल्लो. पुरत्यांत सटया मळावयल्यान दुखवल्ल्या पांयाच्या दत्ताक सायकलीचेर एकटोच बसोवन पांयांनी सायकल घरा मेरेन व्हरसर म्हजो प्राण कंठा कडेन आयिल्लो. ह्या म्हऱ्या नावरुपा खातीर घरा कडेन जावपाचे ते ख्यास्ते परस तकलेंत चलिल्लो तो विचारांचो रणखेव सोंसपा सारको नासलो.

हे खबरेक तीन चार म्हयने जाल्ले. इतल्यांत पणजे सावन एक मध्यम आकाराची सायकल जयश्रीआकान मुद्दम म्हजे खातीर धाडून दिल्ली. ही सायकल दत्ता खातीर घेतिल्ली पूण आक्सिदेंत जायत सावन तो ती चलोवपाक भियेवंक लागिल्लो. दुसरे वटेन म्हाका लागिल्लें सायकलिचें पिशें इतले बेगीन वचपाचें ना हें जयश्रीआकान हेरून बेश्टोच भाड्याचो आनीक खर्च कित्याक वाडोवंक जाय, अशें येवजून ती सायकल पिरवोळा धाडून दिल्ली. ही सायकल दिस्त म्हजे पांय पेदालाक पावतात इतलेंच न्हय, मातसो वांकल्यार एके वटेन जमनीकय तेंकतात अशी आशिल्ली. सायकल मेळिल्ल्यान म्हाका खुबच खोस जाल्ली. घरांत सायकल आसतकच मागीर विचारूंक जाय? वता थंय ते सायकलीन वचप. इल्लीय उसंत तिका दिनासतना ती चलयत रावप. मोहनय ती सायकल चलयतालो. घरचें कितेंय काम जालें जाल्यार सायकल आशिल्ल्यान कसलीच अडचण येनासली. सायकल घे आनी चलूंक लाग. म्हाड्डोळच्यान नुसतें बी मदीं मदीं हांवच सायकलीन वचून घेवन येतालों. सायकलीन सगळें सोपें जातालें आनी बापायचेरय भार चड पडनासलो. दर दिसा कांय ना जाल्यार पांच स

फावटी फकत एका म्हाड्डोळा वचचें पडटालें. ते भायर सायकल नासतना जसो तिचो ध्यास लागतालो तशें आतां जायनासलें. सायकल चलोवपाची उमेद इल्ली इल्ली करून उणी जायत राविल्ली. एक मात खरें, सायकलीर बसतकर मस्ती करपाची हुक्की येताली. सपणां वयल्यान सायकल चडोवन वयर व्हरप, तशीच ती सकयल देंवप हीं असलीं कामां कांय न्हय करून करपाची म्हाका संवय जाल्ली. आंगांत कोण तरी म्हारू आयिल्ले वरी देंवतेचेर पेदालां मारून जाता तितली चेगान सायकल धांवडावपाचें सदचें जाल्लें.

अशेच एक दीस सांजच्या साडेचारांच्या सुमाराक आमी तीग जाण म्हाड्डोळच्यान घरा येताले. फुडें दांड्यार मोहन बशिल्लो जाल्यार फाटल्यान ब्रॅकेटाचेर दोनूय व्हटांनी पांय सोडून श्रीपाददादालो नरू बशिल्लो. खंवट्या पाळणी कडेन पावपाक देंवती आयली. हे वटेन म्हजेर भार आयलो आनी हांवें नेटान पेदालां मारपाक सुरवात केली. तेन्ना मार्गाचेर व्हडलिशी येरादारी नासतालीच. आसलींय जाल्यार एकदोन मनशां आनी कांय थोडीं गोरवां. मार्ग मातयेचो जाल्ल्यान सायकलिचो वेगय सुमाराभायर वाडटालो. पेदालां जाता तितल्या फोर्सान मारून हांव सायकल धांवडायतां इतल्यान कसो कोण जाणा, फाटल्यान ब्रॅकेटाचेर बशिल्ल्या नरून दावो पांय रोदांत घालो. आनी सायकल मातयेच्या मार्गार झरकटत सुमार पंचविशेक पावलां घसटून फुडें गेली. कितेंय तरी फाटल्या रोदाच्या रायांनी जिरखलां जावंक जाय अशें दिशिल्ल्यान आमी खंवट्यांल्या घराचे मातशे मुखार थारले. आनी देंवन पळेत जाल्यार नरून रोदा भितर पांय घाल्लो आनी रायांनी तो जिरखून राविल्लो. तें पळेनापुर्डे आमचेर आकांत आयलो. कितेंय तरी व्हडलें अपसरण आयलें अशें दिशिल्ल्यान हांवें मोट्यान किळांच मारली. ती लागींच रावतल्या दोगां गावड्यांनी आयकली आनी ते धांवत आयले. तांणी नेट लावन सायकलिच्यो कांय रायो वांकोवन मोडल्यो आनी एकदांचो पांय भायर काडलो. पावलाचे खिळयेकडेनच घाय जाल्लो आनी पावल रक्तबंबाळ जाल्लें. हो घाय पळोवन आंगार कांटो येतालो. वयली साल गेल्ली. भितरलें मासकुट्य उसळून गेल्लें आनी भितरलें हाड आनी एकदोन शिरो भायल्यान दिसताल्यो. घडिल्लें तें सादेंसुदें न्हय हाची खात्री जाताली. इतल्यांत मोहन आनीक थंय रावलो ना. तो पळत घरा गेलो आनी ताणें हें वर्तमान घरांत पावयलें. श्रीपाददाद घराच आशिल्लो. ताणें आनिआनीक वाट पळेली ना. म्हाड्डोळा वचपाचे तयारेंतच तो भायर सरलो. हे वटेन आधार दिवंक आयिल्ल्या त्या गावड्यांनी नरूक उखल्लो आनी ताका घेवन आमच्या घरा आयले. श्रीपाददादाक ते घरा वयरूच मार्गार मेळ्ळे. तो घाय पळेनाफुडें श्रीपाददादय भियेलो आनी ताणेंय पिटाळ मारून म्हाड्डोळ गांठलें.

वर जावचे पयलींच दोतोर कुवेलकाराक घेवन श्रीपाददाद आयलो. इतले मजगतीं नरूलें खिळये कडलें तें भगड पळेल्लो जण एकलो मनीस कांचवेवन परतो वतालो. रगत तर एकासारकें व्हांवत राविल्लें. कितें करचें तें कोणाकच खबर नासलें. इतले म्हणसर कमाआका मुखार सरलें आनी ताणें पयलीं एक कापसाची गुठली आनी निवळ अश्या पातळाचे फाळे हाडूंक सांगले. मागीर त्या कापसाच्यो घडयो करून त्यो एका वयर एक अश्यो त्या घायाचेर दाळून तो घाय फाळयांनी बांदून घेतलो. इतल्यांत गळटी लागिल्लें रगत थांबलें आनी सगळ्यांकच धीर आयलो. रगत गेल्ल्यान नरूक चिनारी येवंक लागिल्ली आनी कुडींतली तांक उणी जाताशें दिसूंक लागिल्लें. कमाआकान ताचे आवयक शांताबायक इल्ली नरूखातीर फुटी काफी हाडूंक सांगली आनी ती घेतकच ताका थाकायूय आयली. तो न्हिदिल्लो थंयच दोळे धांपून पडून रावलो.

कमाआका म्हणटा ती खुबच धिराची अशी बायल आमच्या घरांत आशिल्ली. दोतोर येनाफुडें ताणें फाळे सोडोवन घाय पळेलो आनी ताचेर ताका रोखडेंच एक इंजेसांव दिवपाचे तयारेक लागलो. शिरींज ताचेकडेन शिजयल्लेंच आशिल्लें. इंजेसांव दिल्ल्यान नरूक धीर आयलो. मागीर ताणें कसली तरी मलमाची ट्यूब आपणाले बॅगेंतली काडली आनी ती घायाचेर, तशी ताचे भोंवतणी सारयली. मागीर ताचेर कापसाच्यो घडयो दवरून सगळें पावलूच बऱ्या एका निवळ कुडक्यान बांदलें. दोन दिसां उपरांत परतो एक फावट येवन फेरीद पळयतलों अशें ताणें श्रीपाददादाक सांगलें. घाय पेखपाच्यो आनी दूख उणी जावपा खातीर ताणें कांय गुळयो फार्मासींतल्यान हाडूंक सांगल्यो. आनी तो आनी श्रीपाददाद आयिल्ले तशे परत म्हाड्डोळा गेले.

इतलें हें रामायण घडिल्लें पूण म्हज्या बापायक ताची कांयच सुलूस लागूंक नाशिल्ली. सात-साडेसातांच्या सुमाराक तो घरा येत जाल्यार ताच्या कानार ही सगळी खबर पडली. आयकनाफुडें तो खुबच तापार जालो. असल्या तापातापी वेळार हांव लागीं दिसल्यार दोन चार धपाटे म्हाका दिले बगर तो रावचो ना हें हांव जाणा आशिल्लों. ते खातीर चवखे वयले माळयेर वचून हांव लिपून बशिल्लों. उलो केल्यार लेगीत जाप दिवप ना अशें हांवें थारायल्लें. बापूय नरू म्हऱ्यांत येवन ताका पळोवन आनी श्रीपाददादा कडेन खबरी मारीत थंयच कांय वेळ बसलो आनी मागीर थंयचो उठून आपले कुडींत आयलो.

इतले म्हणसर कोण तरी कुडिच्या दारा कडेन रावन शिटकायता अशें बापायक दिसलें आनी ताणें मोट्यान विचारलें, ''कोण रे तो थंय?''

''हांव ती.'' जाप आयली. ती शांताबाय आशिल्ली. मुद्दम म्हज्या बापायक कितें तरी सांगूंक आयिल्ली. ''हें पळे, हें जें कितें नरूक जालां तातूंत सुमंताची बावड्याची कांयच चूक ना. ताणें कांयच करूंक ना. नरूच्या धनरपणानच घात केला. तेन्ना देवतेचो म्हालक्ष्मीचो सोपूत आसा तुमकां, ताका हात म्हण लायशात जाल्यार...'' इतलें सांगून ती तडक भितर वासरेंत उठून गेली. शांताबायचो हो उकतेपणान, मनापासून उलोवपाचो सभाव कुळारच्या दायजान तिका मेळिल्लो. तिचो भाव गुळीबाब नमशीकार होय त्याच सभावाचो आसलो. खरें उलोवपाची चूक करता म्हण जायते जाण ताचेर बरे नासले. स्पश्टपणान उलोवपी मनशां आयज वखदाक लेगीत मेळप कठीण जालां.

फुडें नरूल्या पांयाची दूख इल्ली इल्ली उणी जायत गेली. फेरीदय पेखलें. पूण तें जाता करतासर दोनेक म्हयने वाट पळोवची पडली. सायकली वयलें म्हजें हें नावरूप खुबच नांवारुपाक आयलें म्हळ्यार जाता.

हे घडणुके उपरान्त सायकल चलोवपाचेर म्हजेर जायतीं आडावणां आयलीं. पुरत्यांत कोणाकच बसोवन सायकल चलोवंक जायना ही बापायन अटच घाल्ली. ताका लागून सायकल चलोवपाचो म्हजो नाद इल्लो उणो जायत गेलो.

एक दीस इश्कोलाक साकून घरा येवन पळेत जाल्यार घरांत सायकल खंयच दिसना. चवकशी केले उपरान्त कळ्ळें की पणजेचो रेंव घेवन येवपी एक ट्रक नंगरांत आयिल्लो. त्या ट्रकांत घालून ती सायकल बापायन परती जयश्रीआकागेर धाडून दिल्ली.

(चलता)

# अणकार : आयच्या संदर्भांत एक विचार

डॉ. किरण बुडकुले

आधुनीक संवसारान आज इसवी सनाचो २०००वो वाटचिरो गांठला. तिसऱ्या सहस्त्रकाच्या हुमऱ्यार उब्या आशिल्ल्या मानवी जगाचें भुगोलीक नदरेन नासलें तरी सांकेतीक अर्थाक आकुंचन जालां. एका काळार विशाळ मनीस-समुदायांचे समृद्ध संस्कृतायेचो म्हालसागर म्हूण मिरोवपी संवसार आज सुलभ संचार आनी मुक्त व्यापाराक लागून एक 'भौभाशीक संवसारीक गांवठण' जावन बसला. विशेश म्हळ्यार, आयच्या ह्या भौभाशीक समाजाक एकेखाशेले तरेच्या भाशीक आदान-प्रदानाची गरज उप्रासल्या. ती म्हळ्यार अणकाराची. सर्वार्थान लागीं येवपाक बाध्य आशिल्ल्या आधुनीक मानवाक 'सांस्कृतीक नदरेन' लागीं हाडून मुळावो एकचार सादतलीं जाल्यार भाशीक दिवप-घेवप जाय पडटलें. आनी हाचें एक प्रबळ साधन म्हळ्यार अणकार.

## अणकार म्हळ्यार कितें?

सोंप्या उतरांनी सांगचें जाल्यार ''एका भाशीक भेसांत आशिल्ली शाब्दीक संपत, तिचो मूळ आशय वगडायनासतना दुसऱ्या भाशीक भेसांत सादर करप'' म्हळ्यार अणकार करप. अणकाराक **भाशांतर, अनुवाद** तशेंच **अनुसर्जन** अशीं हेरय नांवां आसात. मात ह्या सगल्या उतरांचो अर्थ वयलेचाराक समान आसलो तरी तांचो गर्भितार्थ एक न्हय. सगल्यांचें काम एका सारकें आसलें तरी तांचें सुप्त प्रयोजन वा त्या प्रयोजनाचें **सक्षम प्रकट रूप** एका सारकें थारना. देखून **भाशांतर, अनुवाद** आनी **अनुसर्जन** ह्यो अणकाराच्यो विविध दर्ज्याच्यो पती अशें म्हणचें पडटा.

**भाशांतरा**चो अदीक भार मूळ भाशेंतल्या उलोवण्याक वा मजकुराक प्रामाणिकपणान दुसरे भाशेंत पावोवपाचेर आसता. आशया कडेन आडनदर केली ना तरिकूय भाशांतर **भाशीक समरसतायेक** अदीक प्रधानताय दिता. भाशांतर करपी प्रतिभाशाली आसलो जाल्यार मूळ भाशेंतलो आविश्कार अणकारीत माध्यमांतय प्रभावीपणान प्रगटता. पूण सदांच अशें घडटलेंच अशें ना, हें म्हत्वाचें. हाचे उरफाटें, एखाद्र्या **अनुवाद** करतल्याची मुखेल मोख **आशया वांगडा एकनिश्ठ** रावचेली आसता. मूळ विचार, कल्पना आनी तांचें यथासांग उक्तावण करपाचो हेतू अनुवादक बाळगिता. हाचो अर्थ तो भाशीक कुशळताय कडसरायता वा अणकारतना आपणाले प्रतिभाशक्तीक फावोशें म्हत्व दिना अशें न्हय, पूण तागेली भर 'कल्ला परस साराचेर' चड आसता. **अनुसर्जना**ची मोख आनी साध्य हांचे परस वेगळें आसता.

**अनुसर्जनाची** स्पश्ट आनी उकती मोख म्हळ्यार मूळ माध्यमांतल्या शब्दरुपी **आविश्काराक**, ताची भाशीक गिरेस्तकाय, तांत्रीक वट आनी आशयसंपन्नताय सांबाळून, **कल्पकतायेन** दुसऱ्या भाशीक माध्यमांत निर्मप. ही निर्मणी सोबीत आनी सहज साधिल्ली आसता. देखून अनुसर्जन करपी निखटोच अणकारपी नासचो. ताची दोनय भाशीक माध्यमांचेर जबरदस्त पकड आसूंक जाय. ताचे कडेन प्रतिभा आसूंक जाय, सर्जनशील नदर आनी कल्पनाशक्त आसूंक जाय. ते भायर अपेक्षीत वाचक वर्गाची मानसीक, सांस्कृतीक आनी भाशीक फाटभूंय ताका वळखूंक येवंक जाय. अनुसर्जन हो फकत शब्दश: केल्लो अणकार न्हय, तो कल्पकतायेन घडून आयिल्लो 'मूळ सर्जनाचो नवो आविश्कार'. देखून मूळ कृतीक सोबशी शैली, अणकाराक सोबशी अभिव्यक्ती आनी लेखका वांगडा समरसताय आशिल्लो अणकारपीच अनुसर्जक जावंक पावता. उतरांचे थेंबे नेमक्या संदर्भाच्या शिंपयां भितर पडले जाल्यारच अनुसर्जन अर्थाचीं मोतयां पिकयता.

## अणकार कित्याचो आनी कसो जावं येता?

अणकार अनुपचारीक उलोवण्याचो, उपचारीक भाशणां-संवादांचो, मौखीक वा लिखीत साहित्याचो आनी हेर सगल्या बरपांचो जावं येता. ह्या लेखांत मात मुखेलपणान **साहित्यीक अणकारा**चोच विचार जातलो. जेन्ना एके भाशेंतल्या साहित्याचो अणकार दुसरे भाशेंत जाता, तेन्ना त्या साहित्याचो मूळ प्रकारय अणकारीत जाता. देखीक, कथेचो अणकार करतना, तिचें अणकारीत रुपय कथाच जाता. तेच परीन कवितेचें अणकारीत रूप कविता, नाटकाचें नाटक आसूं येता. मात सदांच अशें जाताच अशें ना. कांय साहित्यप्रकार अणकारप्याक सहजतायेन पेलनात वा ते 'प्रकार' अणकारपाची ताका इत्सा वा तांक नासता. तेन्ना बरपाचो अणकार जालो जाल्यारूय साहित्याचें मात **प्रकारांतर** जाता. देखीक शेक्सपियरच्या मुक्तछंदी नाटकांचो चार्ल्स आनी मेरी लेम्ब ह्या भावंडांनी केल्लो **गद्य आविश्कार**. हाका निवेदनपर बालसाहित्याचो रूपकार लाभला. म्हूण अशा अणकाराक **रुपांतर** म्हणूं येता. अशे तरेन **प्रकारांतर** वा **रुपांतर** करतना अणकारपी मूळ कृती वांगडा पुरायेन प्रामाणीक रावना आनी तो/ती आपल्या मना प्रमाण मुक्त अणकार करता तेन्ना ताका **स्वैर अणकार** म्हणपाची चाल आसा. अणकारपी मूळ कृतिचो विस्तार आटयता आनी तातुंतल्या बुन्यादी विशयाचें लघुरूप सामकारायता तेन्ना अशा अणकाराक **लघुरुपी अणकार** वा **संक्षिप्त अणकार**य म्हणूं येता. अशेच तरेन मूळ कृतीक इबाडपी वा मूळ कृतींत नाशिल्ली भर घालपी अणकार म्हळ्यार अनुक्रमान **विकृत** अणकार आनी **प्रक्षिप्त** अणकार.

## अणकार कितल्या तरांनी करूं येता?

अणकार दोन तरांनी करूंक जाता. एक म्हळ्यार, मूळ बरप आसा तशें, जतनायेन बाळगून उतरान उतर दुसऱ्या भाशीक माध्यमांत हाडप. हातूंत मूळ भाशेंतले उतरावळीक, वैयाकरणी बांदावळीक वाक्यांतर्गत उतरांचे रचनेक तशेंच क्रमाक आनी विशेश म्हळ्यार वाक्प्रचाराक भोव म्हत्व मेळटा. अशे तरेच्या शब्दशा अणकारांत मूळ बरपाचो सार उणो सोपोड चड पावता. म्हूण हाका **उतरा-उतरी अणकार**य म्हणूं येता. हातुंतल्यान अणकारपी आपणालें बौद्धीक पारतंत्र्य, भाशीक दुबळेपण, मानसीक दबाव आनी

तारतम्याचो अभाव दाखोवन दिता. मूळ बरपाच्या वज्याखाला अणकारप्याची कल्पकताय आनी धिटाय दपटल्यार असलो अणकार जावंक पावता. कांय वेळार, मूळ कृतिच्या लेखकाल्या हेकेखोरपणाक लागून वा अहंगंडाक लागून वा दडपणाक लागुनय अशें जाता. कांय वेळार दोगांयल्या वा एकल्याल्या न्यूनगंडाक लागुनय जाता.

दुसरे तरेचो अणकार म्हळ्यार उतरावळिचो सार आनी शैलिचो रोस दोळ्यां मुखार दवरून केल्लो सार्थ अणकार. हो अणकार बुन्यादी स्वरुपाचें योगदान करूंक शकता. कारण, असो अणकार करपाची तांक आशिल्लो / आशिल्ली अणकारपी मूळ कृतींतलो अर्थ आनी संदर्भ हांचो सांगोड पयलीं सोदता आनी उपरांत मूळ बरोवप्याचो हेतूय लक्षांत घेता. तशेंच तो/ती अपेक्षीत वाचप्याची फाटभूंय आनी सांस्कृतीक क्षमताय लक्षांत घेता आनी निमाणें अणकाराचें माध्यम आशिल्ले भाशेचे अभिव्यक्तिची कुवत आनी भाशीक वैविध्य लक्षांत घेता. अशें केल्ल्यान अणकारप्याक मूळ कृतींतल्या शब्दाथा खातीर प्रतिशब्द सोदतना वा तातुंतल्या वाक्प्रचारांक व्यंगार्था सयत दुसऱ्या भास-माध्यमांत व्हरतना वा तातुंतल्या गर्भितार्थाक तितलेच क्षमतेन चड-उण्या प्रमाणांत प्रकट करतना, उतरावळिची येवजण करूंक मजत जाता. अशे तरेन अणकारांत उतर, कल्पना, संदर्भ आनी अर्थ हांची चौकट बेस बरी साधता आनी मूळ कृतीक एक वेगळोच उठाव आनी (केन्ना केन्नाय) आगळें परिमाण लेगीत मेळूंक पावता.

सार्थ अणकाराची खरी कसवटणी, जेन्ना तो अपेक्षीत वा विशिश्ट वाचकवर्गा खातीर बरोवनय सरसकट खंयच्याय वाचप्याक आकळूंक आनी आवडूंक पावता, तेन्नाच लागता. हाचें कारण म्हळ्यार, विशिश्ट वाचकवर्गा मेरेन एखाद्रे मूळ कृतिचें सत्व पावोवपा खातीर कांय वेळा अणकारांत जीं विशेश पावलां उखलचीं पडटात वा एखाद्री खाशेली कमाविशी करची पडटा ते वरवीं अणकारीत मजकूर अडेचो दिसूं येता. तसो तो दिसल्यार सरसकट वाचप्याचो रसभंग जावं येता, कारण अशी कमाविशी करतना योग्य जतनाय घेतलिना जाल्यार मूळ कृतिचो कलात्मक पांवडो अणकार गांठूंक पावना आनी तो उथळ, सपक वा नकली कसो भासता. देखून, अशे तरेचे जे उणाव सभावीकपणान अणकारांत येवं येतात, तांचेर मात करूंक पावता तोच सार्थ अणकार. हाचे भायरय आनीक एक कसवटणी अणकाराक लावंक मेळटा. ती म्हळ्यार, मुळांतच सुमार दर्जाची वा कलात्मक नदरेन उणी वा फाटसार कृती अणकारची पडली जाल्यारय तिचेर अळंग प्रक्रिया करून (अनिश्ट वा उक्ते संस्कार करिनासतनाय) ती अदीक वाचनीय वा सुरबूस करप. हे खातीर अणकारांतलीं बलस्थानां आनी अणकाराच्यो मर्यादा लक्षांत दवरप लावदिणें थारूं येता.

## अणकाराचीं बलस्थानां खंयचीं?

अणकाराचीं बलस्थानां म्हळ्यार

(१) अनुरूप शब्दनियोजनाची मेकळीक, गरज आसा थंय निखटो शब्दार्थ वा प्रतिशब्द कडेक सारून प्रतिकात्मकता, संकेत, ध्वनि, व्यंग्य, गर्भितार्थ, सौंदर्य वा अभिरुची हांकां लक्षांत घेवन अणकारांत उतरांची यैवजण करप. देखीक, 'चेंदड', 'बिम्ब', 'रक्तछंद', 'थार', 'चंगळ' ह्या उतरांचे वयल्या निकशां प्रमाण (आनी संदर्भाक सोबशे) विविध प्रतिशब्द विंगड विंगड देशी / विदेशी भासांनी जावं येतात. ते तशे फावशे तरेन अणकारतना उपेगांत हाडचेलें स्वातंत्र्य अणकारप्याक आसता.

(२) अनावश्यक वा अनिश्ट पाल्हाळ अळंग कडेसारपाची अणकारप्याची सवलत हेंवय एक अणकाराचें बलस्थान. तेच परी मूळ कृतींतल्या सुप्त घटकांक गरज आसल्यार अणकारांत अदीक प्रभावी सुवात दिवचेली मुभा अणकारप्याक आसा.

(३) मूळ कृतींतली खंयचीय आवश्यक वा निजाची गजाल, कुरू वा उतर अणकारतना शेणून वचपाची वा तिची तांक ना जावपाची शक्यताय आसल्यार हांची पुनर्मोखणी वा नवे तरेन प्रक्षेपण करपाची सवलत अणकारप्याक आसता. देखीक, 'चक्रवाक' ह्या उतरांतली मिथीक तांक वा 'कुंडेकुस्कूर' ह्या 'लोकवेदीक' उतरा फाटलें अर्थाचें वलय, 'पानिपत' ह्या उतरांतली इतिहासीक आशयघनता, 'आगळ' ह्या उतरांतलें सांस्कृतीक भोवार्थीपण, 'नाक नायक' ह्या वाक्प्रचारा फाटलें उपरोधीक वैशिश्ट्य.

(४) मूळ कृतींतले प्रतिमासृश्टिचें गरज तेन्ना पुनर्रचन करप वा पुरायेन नवनिर्मणी करप हेंवय कांय विशेश परिस्थितींत अणकारप्याचें स्वातंत्र्य. फावोसो प्रभाव निर्माण करचे खातीर - देखीक, वर्णनां, विनोदी बरप, सनसनाटी विधानां, अल्पोक्ति - अणकारप्याक मूळ कृतिचे शैलींत, व्याकरणी बांदावळींत, तंत्रांत फावो त्या प्रमाणांत बदल करपाची मेकळीक आसा. मात तिचो उपेग करतना मूळ कृतींतल्या आशयाक, भोवार्थीपणाक (आसल्यार) आनी दिश्टाव्याक अणकारप्यान बाधा हाडूंक जायना.

## अणकाराच्यो मर्यादा

बलस्थानां वांगडाच अणकारांत कांय शिमो-मेरोय अणकारप्यान आंखून घेवच्यो पडटात.

(१) पयले सुवातेर, नकळटां लेगीत अणकारप्याचो दिश्टीकोन वा दिश्टावो मूळ कृतिच्या दिश्टीकोणाचेर वा दिश्टाव्याचेर दामटूंक जायना. हाका आडवाद लोकवेदाचो आनी कांय प्रमाणांत लोकसंस्कृतींत घोळून आयिल्ल्या पारंपारीक लिखीत बरपाचो. देखीक, आमगेलीं म्हाकाव्यां वा पुराणां. हाचें कारण म्हळ्यार लोकसाहित्य वा पारंपारीक बरपाची व्हांवती अदीक करून लोकरंजन आनी लोकशिक्षण हांकां लागून घडल्या. देखून बदलत्या काळाप्रमाणें अणकारप्याचो दिश्टावो कांय अंशी बदलप शक्य / अपेक्षित आसता.

(२) प्रतिमा-प्रतिकांमदीं गरज तेन्ना बदल करतना वा तो नव्यान वापरतना मूळ कृतींतल्या तांगेल्या आंवाठाचें, भुमिकेचें आनी म्हत्वाचें धंगण अणकारप्यान राखूंक जाय.

(३) वर्णनात्मक बरप - चड करून सैमाचें वा सांस्कृतीक विशेशतायेचें - अणकारतना आस्वादप्याचे म्हायतिचें, अभिरुचिचें, उत्सुकतायेचें उचीत गिन्यान नासप ही अणकारप्याची व्हडांत व्हड मर्यादा.

(४) तेच परी, मूळ कृतींतल्या सैमीक, सांस्कृतीक, शास्त्रीय आनी भाशीक परिप्रेक्ष्याची संवकळ वा किमान जाणविकाय अणकारप्याक नासप हें ताचें व्हडलें उणेपण. हाचेर वाचन, चवकशी, प्रवास, संपर्क माध्यमां, संदर्भग्रंथ, उतरावळी हांचे वरवीं मात करप भोव गरजेचें.

(५) कांय वेळा मूळ कृतींतलो आशय क्लिश्ट, संकीर्ण वा व्यामिश्र आसता. तसो तो थंय आसप - ते तरेच्या बरपाच्या गुणाक वा गरजेक लागून - आवश्यक आसूं येता. अशा वेळार त्या आशयांतली ही अर्थाची दाटी, घुस्पट वा हय-न्हयशेपण जशा तशें अणकारांत राखूंक जमप ना ही एक अणकाराची मर्यादा थारूं येता. चड करून एकेच मूळ कृतिचें दोन वा अदीक भासांनी (वा

एका परस चड अणकारप्यां वरवीं) अणकारप जाल्यार तुळेंतल्यान ही मर्यादा स्पश्ट दिसून येता. देखीक, **पर्व** हे एस्. एल्. भैराप्पा हांचे कानडी म्हाकृतिचें मराठी / इंग्लीश अणकारीत रूप पळोवन जिज्ञासुंनी तुळा करची.

हांगा एक लक्षांत दवरूंक जाय. कसलेय गजालिचीं बलस्थानां आनी तिचे भितरले उणाव हे कांय वेळा परस्परविरोधी आसतात. एक नासल्यार दुसरो उबो जावं येता. चड करून कृतिच्या आशयांत व्यामिश्रताय नासली आनी अणकारतना उतरांच्या भौताशी उपेगाक लागून वा भोवार्थी अभिव्यक्तीक लागून वा प्रतीक-प्रतिमानांचे सूचक मांडावळीक लाभून अशे तरेची अनुरूप व्यामिश्रताय मूळ आशयाक आयली जाल्यार तें अणकारप्याचें येस म्हणूंक जाय. मात हे सुवातेर 'अनुरूप' (सोबशा) ह्या निर्देशांकाक व्हड म्हत्व आसा. मूळ कृतीक सोबनाशिल्ली वा तिच्या आशयाक / तिचे मतप्रणालीक / दिश्टाव्याक विकृत करपी वा तिचे बांदावळीक / स्वरुपाक / शैलीक विरूप करपी व्यामिश्रताय, आशयघनताय वा संकीर्णताय अणकारांत येवप हें अणकाराचें अपेस आनी उणेपण. ह्यो मर्यादा लक्षांत दवरून अणकार करतना अणकारप्याक हेरय जायत्यो गजाली लक्षांत घेवच्यो पडटात. त्यो खंयच्यो?

## अणकारांत खंयच्या गजालिंचें खासा भान दवरचें?

ह्या प्रस्नाची नेमकी आनी थीर जाप दिवप कठीण आसलें तरी साप्प अशक्य ना. पयले सुवातेर अणकाराच्या भाशिकच न्हय तर साहित्यीक माध्यमाचेर तशेंच साहित्यप्रकाराचेर विशेश लक्ष दिवचें. खंयचेय भाशेंत अणकार करचो जालो तरी तो गद्य, पद्य, नाट्य वा मिश्र अशा मुखेल साहित्यीक माध्यमांतल्यान जातलो आनी तो ललीत, शास्त्रीय, आलोचनात्मक (जें दोगांय मदले तरेचेंय आसूं येता) ह्या बरपाच्या स्थूळ खणांनी आसपावतलो हें ध्यानांत बाळगपय गरजेचें. ह्या दर माध्यमाचीं कांय खाशेलीं अभिव्यक्ती-रुपां आसात. तीं म्हळ्यार, वर्णनात्मक, निवेदनपर, आप-उक्तावपी, नाट्यपुराय भासाभासयुक्त आदी. हांचेर आदारून तांचे विविध साहित्य प्रकार तशेंच उपप्रकार घडल्यात आनी घडत आसात. फुडें दर साहित्य प्रकारां (उप-प्रकारां)चीं आपलिंशीं कांय ठळक भाशीक-परिभाशीक, तंत्रीक, तशींच शैली विशयक वैशिष्ट्यां आसात. हीं वैशिष्ट्यां अणकारप्याक वश आसप गरजेचें. तशें आसल्यारच तो/ती त्या त्या साहित्य-प्रकाराक वा साहित्यीक माध्यमाक वा बरपा तरेक पुरायेन न्याय दिवपाक सक्षम थरता.

अशे परीन सक्षम आशिल्लो अणकारपीच जंय बदल गरजेचो आसा थंय विवीध थरांवेले बदल करून मूळ कृतीक इबाडनासतना तिचो बेस बरो अणकार करूंक पावता. देखीक काव्याचो अणकार करतना मूळ छंदबद्ध होंवयेचो छंदमुक्त वा मुक्तछंदी आविश्कार कितपत प्रभावी, कलात्मक आनी वाचनीय जातलो हें तिनय तरांच्या काव्याची जाण आशिल्लो अणकारपी थारावंक शकत. अशा वेळार छंद-मात्रांचें पुरोशें गिन्यान वा निदान फावोसो 'कास' अणकारप्याक आसूंक जाय. तशेंच, वैचारीक बरप अणकारतना ते ते विचारधारेची वळख, त्या विचारांचे मांडणेची समज आनी तांचे समाजीक-संस्कृतीक फाटभुंयेची जाण आसप बरी.

दुसरे सुवातेर अणकाराफाटलें ध्येय थारावप वा जाणून घेवप बरें. जेन्ना अणकारपी आपले मतीन एखाद्री कृती अणकारपा खातीर वेंचता तेन्ना ताणें आपणाली तांक लक्षांत घेतनाच आपणालें ध्येय आंखूंक जाय. हें अल्पकालीन आसूं येता, चिरंतन आसूं येता. लघुदिश्टीक वा दूरगामी आसूं येता. देखीक, लोकजागृताय हें अणकारप्याचें ध्येय आसल्यार उतरावळ लोकांसंवकळिची आसची, अणकाराचो विशय तत्कालीन वा त्या लोकांच्या जिविता कडेन लग्नीक आसचो, विचार आशयाचें उक्तावण सोंपे तरेन जावचें. जर कलात्मकताय सादप हें ध्येय आसलें जाल्यार अणकारपी प्रतिभायुक्त आसचो, समान्तर प्रतिमा-प्रतिकांची प्रगटावणी कल्पकतायेन जावची, भाशेक, उतरावळीक सौंदर्याचो निकश लावचो. जर अणकारा वरवीं प्राप्तकर्ते (ग्राहक) भाशेची गिरेस्तकाय वाडोवप हें ध्येय आसलें जाल्यार मूळ कृतिची वेंचणूक करतना सुयोग्य विशय, भाशीक संपत, कालानुरूपताय, लोकप्रियता, सामाजीक/ सांस्कृतीक म्हत्व, दिश्टावो हे निकश लावचे पडटले. जर अणकारपाचें काम अणकारप्या कडेन खंयचीय संस्था, व्यक्ती वा हेर कडल्यान आयलां जाल्यार ती ती व्यक्ती / संस्था / सुवात हांगेलें निर्धारीत ध्येय समजप गरजेचें. ते प्रमाणें अणकाराची शैली, अभिव्यक्तिचो स्वर आनी हेर आदीं सांगल्यांत तीं आंगां थारावंक मजत जाता. कसल्याच हेतू बगर अणकारपाक दिल्ल्या बरपाक लेगीत अणकारप्यान आपले तरेन एक ध्येय वा हेत दिवचो. अशें केल्यार अणकारांत एकजीवसाण, (संग्रह आसल्यार) सुसूत्रताय आनी मूळ कृतींतलीं ठळक कलात्मक वैशिश्ट्यां खेळोवंक जातलीं.

तिसरे सुवातेर, अणकार करतल्याक ज्या वाठार वा क्षेत्रा खातीर अणकार उपेगी पडूं येता, तें क्षेत्र खबर आसूंक जाय वा निर्धारीत करूंक येवंक जाय. अर्थांतच, त्या क्षेत्रा भायरय हेर कडेन मागीर अणकारीत कृतिचो प्रसार जालो म्हूण कांयच फरक पडना. पूण मूळ सुवातेर अणकाराचें क्षेत्र (भुगोलीक, भाशीक, सांस्कृतीक) खबर आसप बरें. क्षेत्र खबर आसल्यार थंयचो सामाजीक परिवेश, वांशीक धागो, भाशीक विविधताय, इतिहासीक कूसखरपण, आनी वर्तमान संदर्भ (उत्फर्के, उतळताप बी) समजतात. आनी अणकारांत कृती कितल्या समान वा विशम सैमीक / संस्कृतीक वातावरणांत पावतली हाची जाणवीक जावन ते ते परिस्थितींत ती बरे तरेन आकळची / आवडची हाची थारावणी करूंक मेळटा. देखीक, अणकारा खातीर कृती वेंचतना तिचो विशय नवलायपूर्ण वा संवकळिचो आसचो हें थारावंक मेळटा. तशेंच, विदेशी वातावरणांत वतले मूळ कृतींतले 'विशिश्ट-सांस्कृतीक' खांच-खळगे, कालबाह्य संज्ञा/उतरां वा अनवळखी उल्लेख हांचें 'कलात्मक' उक्तावण करचेली आलायदा जापसालदारकी अणकारप्याक उखलची पडटा. तशेच मूळ कृतींतले सादारण, शिश्ट वा अ-विशिश्ट संदर्भ/उल्लेख/अर्थ अणकारांत विचित्र, अशिश्ट वा विशिश्ट जावचेनात मू हाची जतनाय लेगीत अणकारप्याक घेवची पडटा. हाचे उलट, मूळ कृतींतल्यो असामान्य, दुर्लभ, अतिविशिश्ट, भोवसक्षम तशेंच अतीसंवेदनशील कल्पना, विचार, नाद उल्लेख वा उतरां अणकारांत वतना सुमाराचीं, निश्प्राण, निर्वीर्य वा मोनीं जावचीं नात मू हाची दक्षताय अणकार करतल्याक घेवंक मेळटा. अर्थांतच, अणकाराच्या क्षेत्राची जाण आसल्यार ताका ताच्यो मर्यादा वा अपेक्षा समजतात आनी अभिव्यक्तिच्या कुशळ संचलना वरवीं वयले दोश टाळूंक मेळटात. तशेंच, त्या त्या क्षेत्राचीं वैशिश्ट्यां कळाशीपुराय नदरेन वापरून अणकारांत नाविन्य, लालित्य आनी गिरेस्तकाय हाडुंकय मेळटा.

आनीक एक म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार अणकार-वाहक थारावप. अणकाराचो वाहक निर्धारीत करप ही अणकाराची वेव्हारी आनी आवश्यक वट. अणकार पुस्तकरुपान, नेमाळ्यांतल्यान वा भित्तीपत्रकांतल्यान वा हेर

ांनी वाचप्यां मेरेन पावतलो हें आदीं कळत जाल्यार अणकारप्याक सुविधा वं येता. चड करून नेमाळ्यांतल्यान जातल्या अणकारांचेर बरींच बंधनां ळटां येतात. मूळ कृतिची लोकप्रियता आनी लांबाय हे घटक कृती वेंचतना त्वाचे थारतातच. शिवाय, कृतींतली उतरावळ, कल्पनाविलास, आशय-रिजवण हांचें प्रमाण, कालानुरूपता आनी विशेश म्हळ्यार, मूळ कृतिची व्रस्तिंनी जावपी अणकारा'क अनुकूलता हिंवय कलमां गरजेचीं थारतात. ोंच दरेक खिस्त फावोशा उत्सुकतावर्धक पेण्यार सोंपोवप ही कळाशीय स्तबद्द अणकाराक जाय पडटा. पुस्तकरुपान येतल्या अणकाराक जकूर आनी चित्रांकन, तशेंच छायाचित्रां, आधारावळ, टिपो हांची कित्सक येवजण लक्षांत घेवची पडटा. नाजाल्यार अणकाराची सक्षमताय ाडूंक शकता. कांय वेळा मूळ मजकुराचेर नाका तितलो फोक पडून, तर ंय वेळा मूळ टिपो अणकाराक अनावश्यक थारतात देखून! मात कांय ळा अणकारांतलो उणाव भरून काडूंक मूळ कृतीक लेखून अणकारप्याक पो दिवच्यो पडटात.

निमणे सुवातेर, अपेक्षीत वाचक वा वाचकीय परिप्रेक्ष्य (अणभव / वत हांचे सयत) विचार करप अणकारप्याक भोव लावदिणें थारता. जर पेक्षीत वाचकीय परिप्रेक्ष्याची बेस बरी वळख अणकारप्याक आसली ल्यार तो, मूळ कृतींतलो अनवळखी आशय वा व्यामिश्र संकल्पना फावो कल्पकतायेन उक्तावंक शकता. तशेंच भोवार्थी उतरां जेन्ना मूळ कृतींत ासतात तेन्ना वाचपी गोंदळचो ना हाची जतनाय घेवन तो एकापरस चड समांतर उतरांतल्यानय अचूक शब्दाची निवड करूंक पावतलो. कांय वेळा एखाद्रो अणभव वा उच्चार वा एखाद्री कल्पना इतली संदर्भनिश्ठ आसता की तो संदर्भ अपेक्षीत वाचकीय परिप्रेक्ष्यांत नासलो जाल्यार ती कल्पना वा अणभव उक्तावपी वाक्प्रचार वा उतरय अणकारप्याक (उपरांत वाचप्याक) अभेद्य जावन बसता. अशा वेळार त्या वाचकीय परिप्रेक्ष्याची जुस्त जाण आसल्यार अभिव्यक्तिच्या कुशळ संचलनान* अणकारपी मूळ कृतींतली संकल्पना, उतर वा विचार नेमको वाचप्याक पावयता.

अंतीं, अणकाराक लेखून एक भोव म्हत्वाची चत्राय गरजेची. वयली सगली भासाभास अणकारप्याक अंतर्मुख करपाक, तशेंच अणकारपाच्या तंत्रांचो बारकायेन विचार जावपाक आनी अणकारप्या भितर आपणाल्या कामाचो दर्जो वाडोवपाची जाणविकाय बळोवपा खातीर केल्या. हे भासाभाशेक लागून प्रत्यक्ष अणकार करतल्यांक वा फुडाराक करूंक सोदतल्यांक अदीक उर्बा आनी शास्त्रपुराय नदर मेळची इतलीच आस्त आसा. अणकार ही एक कला तशेंच तें एक शास्त्रय. देखून ताची प्रगती प्रयोग आनी अभ्यास हांच्या सुमेळांतल्यान जातली, तांची फारकत करून न्हय. देखून इत्सूक अणकारप्यांनी अदीक उमेदीन वावराक हात घालचो.

(* चत्राय: 'अभिव्यक्तिच्या कुशळ संचलना वरवीं' हाचो अर्थ प्रत्यक्ष कृती अणकारप्याचे प्रक्रिये वरवीं बरे तरेन देखीं सयत प्रगटावंक येता. तो वेगळ्या लेखाचो विशय. देखून हांगा हाताळूंक ना.)

---

## जागा खातीर बरप धाडटना

- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.
- बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)
- हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

---

☐ उलोवचे पयलीं विचार कर, हांव कोणा कडेन उलयतां, कित्या खातीर उलयतां आनी कितें उलोवंक सोदतां?

☐ गोड उतरां कितले घाय पेखयतात!

☐ संकश्टां झेलुनूच मनीस शीळवंत जावंक पावल्यात.

☐ अडचण म्हळ्यार फुडें सरपाची बऱ्यांतली बरी एक संद.

☐ संकश्टां झेलुनूच मनीस शीळवंत जावंक पावल्यात.

☐ जाका आपलीं दुबळीं आंगां दिश्टी पडनात, ताका ताचीं घटमूट आंगांय दिश्टी पडपाचीं नात.

---


## उक्तावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | मडगांव, गोंय ४०३ ६०१. |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | सुमन्त रामचंद्र केळेकार |
| | राष्ट्रीयताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ४. | संपादपी | रवीन्द्र राजाराम केळेकार |
| | राष्ट्रीयताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ५. | वावुरपी संपादपी | माधवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रीयताय | भारतीय |
| | नामो | २०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, सुमन्त रामचंद्र केळेकार, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे माहितीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

सुमन्त रा. केळेकार
उजवाडावपी



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

मनीस समाजप्रीय प्राणी अशें हांवें आयकल्लें.
कित्याक तर ताका समाज करून रावप आवडटा.
कोणें तरी म्हणिल्लें हें हांवूय खरें मानून चलतालों.
हे आदीं आमकां कोण तरी सांगत रावले.
आनी आमी कितें कितें मानीत रावले.
शणै गोंयबाब म्हणटालो तशें 'खरें फट तर्जून पळयलें'ना.
हालींसराक म्हाका कळून आयलां की म्हजें मानप चुकिचें.
मनीस समाजप्रीय न्हय तर समजप्रीय प्राणी.
तो समज, गैरसमज करून घेता आनी समाजाक पिडटा.
दुस्वास, फटींगपण, नाडींगपण हातुंतच दीस आनी रात सारता.
देखून हांवें आतां समाजाक बी भिसक्यार मारपाचें थारायलां.
आनी म्हजें अशें एक नवेंच मत मांडपाचें येवजिलां.
मनीस खरो म्हळ्यार आवडप्रीय प्राणी.
ताका कसल्यो न्हय कसल्यो आवडी आसतात.
आमच्या मडगांवकारांची एक आवड म्हाका सदांच आवडटा.
कसलीय कार्यावळ आसली की ते आवडीन एकठांय येतात.
ते कार्यावळी विशीं मतभेद उक्तावन भरपूर गोंदळ घालतात.
'कळ्ळें न्ही तुका?' म्हणत आपापसांत झगडीं करतात.
मागीर आपुणूच त्या गोंदळाचेर उपाय सोदून काडटात.
आपणें सगळें कशें जाग्यार घालें तें दाखोवन हड्डें फुडें काडटात.
मडगांवकारांची ही असली आवड तर पणजेकारांचीय तशीच.
पणजेकार एकठांय येतात आनी आमचे सारक्यांक फुलोवन घालतात.
आमीय सहज फुलतात आनी मडगांवकारांचेर चडटात.
तशें जालें काय मडगांवकार आमकां गाळी घालतात.
आनी हें प्रकरण वाडलें म्हणटकच
पणजेकार मडगांवकारांच्या खांदार हात घालतात.
दोगूय एक जावन आमकां कोनशाक मारतात
देखून हांव म्हणटां, हे सगळे आवडप्रीय प्राणी.
समाजप्रीय जाल्लो जाल्यार कोंकणी समाज असो वागचोनाशिल्लो.
कोंकणी समाज आवडप्रीय म्हूण म्हाकाय हांव आवडप्रीय मानतां.
हांव समाजप्रीय जाल्लों जाल्यार म्हजो समाज घेवन बसपाचों.
भाई केणी आपलो, शंभु भाऊ आपलो घेवन बसल्यात तसो !
पूण हांव आवडप्रीय म्हणटकच म्हज्यो खुबश्यो आवडी.
ह्याच म्हयन्याक पयर कला अकादमींत वर्सुकी म्हाळ जालो.
हो म्हाळ म्हजे खुबूच आवडिचो.
तेच पासत हांव तो केन्ना घालतात ताची वाट पळयतां.
कला अकादेमी पयलीं दर वर्सा डूजभर लोकांक बक्षिसां दिताली.
कोंकणीच्या स जाणांक आनी मराठीच्या स जाणांक.
म्हाकाय दोन खेपे तीं बक्षिसां फाव जाल्यांत.
एके भाशेंत फकत दोनदांच दितात म्हूण दोनदांच मेळ्ळीं.
चंद्रकांत केणयाक तीं तिनदां फाव जालीं.
कित्याक तर तांणी उपरांत एक मराठीय पुस्तक बरयलें.
म्हाका दिसता रवीन्द्र केळेकाराक आनी बाकीबाबाकूय तशेंच.
तांचीच देख घेवन बाकिचे कोंकणीवादी मराठी बरयतात.
मराठीवाद्यांकूय दोनदां मेळटकच तेय कोंकणी बरयतले.
ह्या स स जाणांक एक दीस हीं बक्षिसां वांट्टाले.
त्या दिसा सांजवेळा कोण तरी एक मुखेल सोयरो येतालो.
तो त्या सगळ्यांच्या पदरांत बक्षिसां ओततालो.
आनी मागीर एके वटेन स जाण दुसरे वटेन स जाण रावताले.
तोंडार उश्णो हांसो हाडून फोटो काडून घेताले.
हांसो तोंडार दिसलो तरी सगळे एकामेकांक गाळी घालताले.
मदीं मुखेल सोयरो नाशिल्लो जाल्यार आंगार झुडून वचपाचे.
म्हजेय कडेन असले दोन फोटो अजून आसात.
सारके व्हॉलीबॉल टिमिचे फोटो कशे दिसतात.
स स जाणांची ती टीम आनी मदीं मुखेल सोयरो रेफ्री.
हळुहळू हे डूजभर लोकांचे पांच, तीन, दोन जाले.
हें अशें घडून येता म्हणसर भाशेचो वाद मात्सो न्हिवलो.
एकामेकांच्या आंगार झुडून वचपी मातशे मनशाळ्ळे.
तेन्ना कला अकादेमीन तांकां जेवण घालपाचें थारायलें.
सुरवेक सुरवेक कोंकणीवादी सामके तावातावान येताले.
मराठीवादी वचूं काय नाका करीत दबकत भितर सरताले.
एकामेकांक वेंग मारून एका कोनशाक बसताले.
आपलो नेट दाखोवंक अट्टाहासान मराठी उलयताले.
उलयतना आपल्याक कोंकणीवादी हांसत म्हूण भिताले.
मागीर जेवणाच्या वेळार एकामेकां कडेन कोंकणी उलयताले.
नुस्तें-बिस्तें खालें म्हणटकच परतून मराठी सुरू करताले.
तें पळोवन दत्ता नायक बी तांकां ताळ्याक कांटो लागलो म्हणत केरायतालो.
ताका लागून फुडल्या वर्सा ते शिवराकूच जेवताले.
पूण तेन्ना ज्युस्त दत्ता नायका सारकेले येना आसतना रावताले.
मागीर बेश्टेंच नुस्तें खालेंना म्हूण मराठीवादी पश्चाताप करताले.
काळ सरलो तशी गोंयाभायल्या मराठीवाद्यांक बक्षिसां मेळना जालीं.
देखून ते 'आता कशाला गोव्यात' म्हणत येना जाले.
आशिल्ले ते सुदारले आनी 'वाद कशाला' म्हणत कोंकणी उलोवंक लागले.
आमीय तांकां मायकाचेरूच मराठी उलोवपाक मान्यताय दिली.
ते बाबडे 'नाका नाका, आमी आतां कोंकणीच उलयतात' म्हणटाले.
पूण तांणी सारो तेंप 'माय मराठी' म्हळ्ळें तें आमकां 'मायक मराठी' दिशिल्लें.
कितेंय जावं, अशे तरेन म्हाळ घालून कला अकादमीन वाद सोंपयलो.
एकामेकांचें तोंड पळयनाशिल्ले ते वादी आतां वाद ना हें दाखोवंक तोंड

ळोवंक लागले.
हेसगळें पळोवन धादोस जावपाचो हो वर्सांतलो एक दीस.
त्य जर हांवें टाळ्ळो तर मागीर हांव तीर-सुवादीक कसलों?
ख्यूनच हांव पयर वेळांत वेळ काडून म्हाळाक गेलों.
प कितें कोण जाणां,
रसंख्येन लोक येवंक जाय आशिल्ले ते आयलेच नात.
गठीवाद्यांची संख्या उणी हें एक समजूं येता.
स सरतात तशे ते आतां उणे जायत वतले.
तो लेगीत कोंकणीवादी आयतार आसुनूय नासप म्हळ्यार विचित्र.
इलीक बी एक दुबय गेला हें समजूं येता.
विदास, जयंती बी हांकांय कितें नुस्त्याचें जेवण चलना?
तें जालां हें समजून घेवप हीय म्हजी एक आवड.
तर हांव नाका जाल्ले तर्क करीत बसतां.
णेंतरी म्हळें, आतां कोंकणीवादी जेवणाचेर नात.
गीर आनीक कित्या खातीर ते येना आसतना रावले तर!
ंची कांडपाची मक्तेदारी आशिल्ली ते रागार जाले.
ामी आसतना कांडपाक भलतेच कित्याक म्हूण आयलेनात.
ा ते तर सामके हाताच्या बोटार मेजपा इतले.
सरें कारण अशें खंय की पुरस्कार भलत्याकूच दिलो.
मात अती जालें. फाटले खेपे तशें जाल्लें खरें.
ांवाळें' म्हूण कोणें तरी कितें बरयलें आनी छापलें.
आनी आंवाळो दिवन कुंवाळो जोडलो.
आतां तर सगळ्यांक गरजेचें अशें पुस्तक आशिल्लें.
'पालक आनी भुरगीं' म्हळ्यार आयच्या काळाची गरज.
सदांच कितें कविता, नाटकां, कथा हांकांच पुरस्कार दिवप?
असल्यांनी समाजाक वळण आनी देख कशी लागतली?
'पालक आनी भुरगीं' हातूंत पालकांकूय देख आसा आनी भुरग्यांकूय.
तें वाचून खुबशे पालक आतां सुदारल्यात.
भुरगींय जाग्यार आयल्यांत.
तांचें मानसीक संतुलन इबाडलेलें तें सारकें जालां.
इतल्या गरजेच्या पुस्तकाक पुरस्कार मेळटकच वायट कित्याक दिसप?
वायट दिसून अशें येना आसतना म्हूण रावप !
आयिल्ले जाल्यार तें पुस्तक कितलें गरजेचें तें कळपाचें.
हेबळेकाराची कथा दीर्घकथा कशी जाता, तिचीच कादंबरी कशी जाता हें समजुपाचें.
रमेशाची कविता दुर्बोध म्हूण कळपाचें.
हे लोक आपल्या पांयार आपुणूच फातर मारून घेतात.
म्हजें दुख्ख हांवें म्हाळ सोंपतकच रमेशाक सांगलें.
म्हळें, रमेश, हांकां हांव आवडप्रीय समजतालों.
रमेशान म्हळें, 'आवडप्रीय काय खावडप्रीय रे?'
कितेंय जावं, नवो एक विचार येता हें कितें थोडें जालें?

□□

---

## आनीक कांय यादी

भालचंद्र गांवकार

१.

यादी येतात
रुतू माळून
तेन्ना ...
तुजे-म्हजे मदीं
आंगळाचेंय अंतर आसना...
पूण...
यादी वतात
दुखां गाळून
तेन्ना...
तुजे-म्हजे मदीं
अख्खें मळबूय मावना...

२.

यादिंचीं ल्हारां
सुकती आनी भरती पळयनात !
तीं येतात
आनी
अख्खो वर्तमानूच
सपाट करून वतात.

३.

यादिंनी बंद केल्यांत
म्हज्या फुडाराचीं दारां...
आनी...
बंदिस्त जिणेंत
दोंगरायेदीं ल्हारां.

४.

यादिंनो...
आतां अश्यो
आडवेळ्यो कित्याक येतात?
तो रुतू
केन्नाच उलगलो !

५.

यादिंच्या घोड्यार बसून
तूं येता...
तेन्ना
वर्तमानांतल्यान हांव
भूतकाळांत देंवतां...
आनी...
तेन्ना कांय खीण
हांव तुजोच आसतां...
फक्कत तुजो !

६.

यादी दर्या भशेन...!
शांत तेन्ना...
वयल्यान अळंग पेंवचें कशें दिसता.
पूण जेन्ना खंवळटा...
तेन्ना...
थंयच्यान पयस पळचें कशें दिसता.

७.

एक-एक याद म्हळ्यार
एक-एक चवन कशें...
चवन पेखलां
पूण दाग तश्शे आसात !

## ईदाच्या चंद्राची भेटवण

तुकाराम रामा शेट

१.

सकाळीं सकाळीं
रुक्साना आयली
घेवन मेथयेच्या हातांनी
ईदाची गोड गोड भेट
ताट भल्लेलें उप्पाट
ओतपा इतलें
वयर धवो फुल्ल नक्शेचो
तुवालो जाळये जाळयेचो
तिच्या सुरमी दोळ्यांत
काळें काळें काजळ
आनी काजळाचोच
कोरायल्लो गाला वयलो तीळ
आंगार कपड्यांची झिरझिरीत
नवी खोमशी रंगरंगयाळी

येवन हांसली
आपल्या बारीक बारीक दोळ्यांनी
तेन्ना दिसले तिचे
इल्ले इल्ले दांत दुदाचे

हरशीं केन्ना येवन
बडबड बडबडपी ती
परत खुदूखुदू हांसली
म्हाका तेंकून उबी रावली
मांजर कशी घश्टली
आनी उलयनासतना गेली
फाटल्यान आपल्या पावडराचो
अत्तराचो परमळ हुबयत

म्हज्या मनांत तिचें
बालीश हांशें
गणय गणय गणयतालें
आरे, हांव विसरलेलोंच
घेवपाक तिच्या गालाचो
गोड चिमटो

२.

...
अशीं बरींच चंद्रवर्सां अस्तमलीं
तिचे दुदाचे दांत
केन्नाच झडून गेले
ती दर वर्सा येताली
ईदाची भेट घेवन
आपल्या मेथयेच्या हातांनी
पांचवी दनपार कशी

ती ईदाच्या चंद्राची
नखेत्र कशी उठून
तिच्या दोळ्यांत
चंद्रूच चंद्र
फाल्यांचे.

३.

आयज मळबांत
ईदाचो चंद्र पळयतना
तिनसानां अमुरपिके
दिसलें म्हाका
दीस बरो गेलो
भरून गेलो
ईदाच्या चंद्राचें
चान्नें इल्लें
म्हज्या जिवितांत
ओततालें...

(रमजान ईद, २८/११/२०००)

# ानोराय नायकाली कविता

धव बोरकार



मनोराय नायक हो वेळुस्कार, पाडगांवकार, बोरकार हांचो समकालीन वी. १९६७ पासून तो नेमान कविता बरयता. पूण ताचो पयलो कविता ग्रह मात हेर कविंचे तुळेन खूब उसरां म्हळ्यार १९९३ वर्सा 'कल्पफूल' नांवान उजवाडा आयलो. ह्या संग्रहांत आसपाविल्ल्यो कविता हे आदीं वेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडा आयिल्ल्यो. तरी संग्रहाच्या रुपान त्यो चप्यां मुखार येवपाक खूब कळाव लागलो अशेंच म्हणचें पडटलें. वेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान त्यो वाचप आनी संग्रहाच्या रुपान एकठांय वाचप तूंत व्हड फरक आसा. संग्रहाच्या रुपांत मुखार आसतकच ते कवितेच्या क्तिमत्वाचो विचार करप सोंपें जाता. कवितेचे प्रकृतिची आनी तिच्या हेर गांची बेस बरी कल्पना येता आनी त्या संबंदान विचार करपाक मेळटा.

मनोरायाची कविता कशी हाचेर खासा कविनूच भाश्य केलां. तो म्हणटा:

*कावळ्याची काव काव आयकून*
*कोण तरी सोयरो येवचो आसा*
*हें सांगपाक*
*म्हजी कविता किदें ज्योतिशी व्हय?*
*इश्टांनो!*
*तुमकां कशें सांगूं*
*ती कितें ती!*
*ती म्हळ्यार*
*म्हज्या काळजाचें हुलपावणें*
*शब्दांनी बंदिस्त करून*
*तुमकां आयकोवपी*
*म्हजी मनोदेवता*
*म्हजी जीण*
*म्हजो मोग*
*आनी सगळें कितें*
*म्हळ्यार म्हजी कविता*
*तुमकां तिचो दुस्वास, फकाणां, निंदा*
*करपाची आसा मूं?*
*करात खुशालभरीत!*
*हांवें तर तिका म्हजें काळीजच दान दिलां*
*म्हजे पियेक*
*हाचे बगर*
*आनी हांव किदें दिवं?*

हे कवितेंतलीं उतरां दिवे कशे मनोरायाले कवितेच्या अंतरंगाचेर गझगीत उजवाड घालतात. तिका वेंगून आशिल्ल्या आशयाचे वेगवेगळे दर उकते करून दाखयतात.

मनोरायाचे कवितेंत तीन स्वर आयकूंक येतात - पयलो, वैयक्तिक णभवाचो. दुसरो, सामाजीक जाणविकायेचो आनी तिसरो, तिणें ापणायल्ले अभिव्यक्तिच्या आकृतीबंधाचो. कांय कडेन वैयक्तीक णभवांचो स्वर सामाजीक जाणविकायेचे लागीं आयिल्लो दिसता.

*म्हजी फुडें जावपाची बायल / म्हऱ्यांत कोण ना हें हेरून विचारता*
*'तुजे बायलेक घर केन्ना दाखयता?' / घर ऽऽ!*
*घर आकारता ल्हवू ल्हवू / म्हज्या मुंडोळ्यांच्या कॅमेऱ्यांत.*

घराचें रूप आकाराक येता. वण्टी, कुडी, पाखें, आंगण, पोरसूं, घरा फाटली बांय आनी तसोच भोंवतणचो मनभुलोवणो वाटार. घर वाडत वाडत मळबाचे उंचायेर पावता. पूण जेन्ना ही मळबा मेरेन पाविल्ली कल्पनेची झोंपय परत भुंयेर येता तेन्ना ताका खर वास्तवाचें भान जाता. आनी ताका ताचे बायलेच्या दोळ्यांत तोच घर जावन आयिल्लो दिसता. खर सामाजीक वास्तव आनी वैयक्तीक हावेस हांचो मेळ सादतना कवी खासावीस जाल्लो दिसता. आनी ही खरस हेर कवितांनीय व्यक्त जाल्ली दिसता. हीच भावना खूब वेगळे तरेन 'पिसोळें' हे कवितेंत समर्थपणान आयल्या. कवीन पिसोळ्याच्या प्रतिकाचो वापर करून आयच्या मनशाची आवतिकाय चितारल्या. रंगयाळ्या पाखांचें पिसोळें घयरुवांच्या जाळ्यांत घुसपता. तें तातुंतल्यान भायर सरपाक आपलीं पांखां फांफुडटा. पूण भायर सरपाचो यत्न करता तितलें तितलें तें अदिकूच जाळ्यांत शिरकता.

*पाखां*
*झडयले*
*रंग*
*याग*
*याग*
*जाले*
*मस्त*
*सावज*
*चाखोवन*
*कापोडयां*
*तेळटा*
*परतो*
*जाळें*

हे कवितेंतलो अणभव निखटो वैयक्तिक पांवड्यार उरना. तो मनीसकुळयेचो अणभव जाता. आयच्या मनशाच्या वांट्याक आयिल्लें रितेपण मनोरायाले कवितेचो आशय जाता. हाची एक बरी देख म्हूण 'संदर्भ' ही कविता दाखोवं येता. वेगवेगळ्या ताणतणावां खाला जियेवपी मनशाचीं सपनां साकार जावंक पावनात. हे ताण आर्थीक आनी मानसीक संदर्भ जुळिल्ले वरी दिसतात.

*केन्ना केन्ना / कांय संदर्भ जुळिल्ल्याभशेन दिसतगीर*
*कल्पनेच्या माल्यांत कितलेशेच धागे / आपशींच किल्लून विणटात*
*रंग-बेरंगी भविश्य सपनां / आनी*
*झंझोळोन व्हांवयतात / म्हजें निरशेवणेपण*

विणिल्ल्या सपनांचे धागे तुटून वतात. तांच्यो वादऱ्यो जाल्ल्यो तो पळयता. *हांव असहाय/उक्त्या मळबाकडेन / हात पसरावन उबो / खूंट कसो!*

अटळ प्राक्तनाक मनशाक सामकार वचचें पडटा. हाचे फाटल्यान दोन कारणां दिसतात. तीं म्हळ्यार, आर्थीक आनी सामाजीक विशमताय. दांत्याच्या दोनूय पावांमदीं सगलो समाज पुरायेन भड्डून आनी कड्डून गेल्लो दिसता. हे परिस्थितींतल्यान समाजाचें मन तयार जालां. कवी आपले

परीन ह्या कारणांचीं पाळांमुळां खणून काडून प्रस्नांच्या तळा मेरेन वचपाचो यत्न करता. सगल्याच प्रस्नांच्यो जापो मेळटाच अशें ना. आनी त्यो मेळच्यो अशी कविची अपेक्षाय दिसना. तो तिरायताचे नदरेन ह्या प्रस्ना कडेन पळेता. *कोणाच्या कर्तुबार / कोण जोडटा जैता घुडी / कोणाच्या रगतान / कोणा मासाक चडटा चरबी / कोण धर्मान चलतले / खणी फोणात घुस्पट्टा / कोण धडेर अधर्मान / बेभान जावन मुरगट्टा.* (कोणा कर्तूबार) हे कवितेंतल्यान खर वास्तवाचें चित्र कवी आमचे मुखार दवरता. समाजांतल्या चिड्डल्ल्यांचें आनी चिड्डुप्यांचें चित्र हे कवितेंत दिसता. मनोरायाली कविता अशे तरेन पंडिताले कविते कडेन आपलें नातें सांगता. पंडिताले कवितेन अशींच चित्रां काडिल्लीं आसात. आर्थीक आनी सामाजीक शोशण हो तांचे कवितेचो मुखेल आशय. ह्याच आशयाक ते 'तुमीच जैतवंत गा' हे कवितेंत खर धार लायतात: *शब्द खणखणीत / विशय दणदणीत / बोंबले देठांतल्यान उतरां येतात / मेल्लीं मनां / पेटयत पेटयत / काळजां काळजांक जागयत वतात / तुमीच जैतिवंत गा / रगता नात्याक / तिबो लावन / माना विडो जोडून वतात / पूण नकली तुमचो आवेश तो / तितल्या पुरतो धगधगता / धगधगता तसो पैसावता / पेट्टीं मनां बावयता / पूण ताजे वरवीं / तुमी मात / जैतिवंत जाल्ले आसात.*

हे कवितेचें एक वैशिश्ट्य म्हळ्यार तिचो सूर निर्शेवणेचो न्हय. भोंवतणीं काळोख आसलो तरी ताचेर मदीं मदीं आशेची तिरपी खेळटा. देखून:

*गाळिल्ल्या घामाचें म्हज्या सार्थक गा जालें*
*पाडंग शेत एका काळचें आयज पोटरां आयलें.*

अशें कवी म्हणटा तेन्ना ताका खाशेलो अर्थ प्राप्त जाता. तशेंच, परिस्थिती कडेन झूज दिवपाची शक्त आनी तांक ताच्या भुजां भितर आसा. *'हांव गरीब / हांव गरीब / खोंपींतलो गांवांतलो / गांवांतलो शारांतलो / फायलींतलो भाशणांतलो / मळबभर शिंपडिल्लो / शेतांतलें कल्लें कसो / हुमटायता तितलो फागुरतलो'* ह्या वळींतल्या *'हुमटायता तितलो फागुरतलो'* ह्या उतरांचेर कवितेचो खरो भर आसा. परत एक फावट ह्या जाग्यार पंडिताल्या गावड्याची याद जाता. पंडिताले कवितेंत जें social rhetoric दिसता ताची प्रचिती कांय प्रमाणान मनोरायाले कवितेंत येता.

मनोरायाली कविता समाजमनाक स्पर्श करता. ताचीं स्पंदनां तिच्यांत आमकां आयकूंक येतात. तशेंच निखटे विचार मांडपाचें एक माध्यम म्हूण कविते कडेन पळोवचेली नदर ताचे कडेन ना. ही कविता अणभवाक आकार दिता. देखुनूच प्रचारकी पांवड्या पासून पैस उरता. हें तिणें जोडिल्लें व्हड यश अशें म्हणूंक जाय. आपले कवितेक तो उपहासाचें अस्तर जोडटा. ताका लागून तिचे अभिव्यक्तीक एक वेगळीच धार येता. 'बॉस' ही कविता ते नदरेन म्हत्वाची. उपरोधाचो सूर आशिल्ले हे कवितेंत तो म्हणटा :

*अख्खें कॅबीन झाडून घेतलें / कोनशा कोनशाचो कोयर भर दिसा*
*लासून भायर उडयलो / पूण दुर्दैव !*
*कोयर फाटल्या पायांनी / परतो कॅबिनांत !*
*खंय तरी खांची उकत्यो आसतल्यो.*

सामाजीक आशय मुखेल स्थानार आशिल्ल्या मनोरायाल्या कवितेच्या विश्वांत प्रेम कविता विशेश दिसनात. आनी ज्यो थोड्यो आसात त्यो निखट्यो प्रेमभावने भोंवतणीं गुंथिल्ल्यो नात. त्यो सामाजीक आशयाचे लागीं येतात. देखून चालंत अर्थान त्यो प्रेमकविता थारनात. ते नदरेन मात्शी वेगळी प्रेम कविता म्हळ्यार 'तारूं'. शारिरीक संवेदनेचो स्पर्श हे कवितेक आसा.

आपल्या आशयाक दावता असल्या प्रतिकांचो आनी प्रतिमांचो वापर मनोराय समर्थपणान करता. तातूंत ताणें आपलें वेगळेपण दाखयलां. *'उपहासान हांसपी मळब ताका घरे नाशिल्लें पोकें पणसूल कशें दिसलें' / 'हांव असहाय ! उकत्या मळबाकडेन हात पसरावन उबो खूंट कसो!'* अशे तरेची अभिव्यक्ती कवितेक सांकेतीकतेच्या पेल्यान व्हरता आनी कवितेच्या आशयाक घनता हाडटा. खंयचेय बरे कवितेंत भाशेच्या वापराक खूब म्हत्व आसता. चालंत उतरांचेर मांडिल्लो संवकळिचो धुल्ल घांसून पुसून आपले कवितेंत कवी तांकां नव्या अर्थान कसो वापरता ताचेर कवितेचें यश निंबून आसता. मनोराया कडेन भाशेक आपल्या आशयाचे अनुरूप बागोवपाची तांक आसा हाची गवाय तांगेल्यो कविता दितात.

हे कवितेन जो आकृतीबंध आपणायला ताचो विचार करतना तिचीं कांय वैशिश्ट्यां लक्षांत येतात. तातुंतलें सगल्यांत पयलें म्हत्वाचें तिका आशिल्लें दृश्य परिमाण. वळिंचे विशिश्ट क्रमान केल्ले मांडावळींतल्यान कवितेचो आशय दोळ्यां मुखार चित्र कसो उबो रावता, हे नदरेन 'पान' ही कविता पळोवपा सारकी आसा:

*पान*
*झाडाचें*
*पिकून*
*झडिल्लें*
*वाऱ्यान*
*कितलें*
*आडोवंक*
*पळयलें*
*तरीय*
*ताका*
*धुरमुरून*
*तें जमनीर*
*आपलें*
*देंवलेंच*
*देंवलें*

हे मांडावळींतल्यान पान पिकून जमनीर अळंग झडटा ताची लय आमकां दृश्य रुपांत दिसता. एक वळ एका उतराची. कविता आडवी बरयल्यार ती एका वाक्यांत बसोवं येता. 'पिसोळें' हीय कविता अशाच आकृतीबंधाची. असल्या कवितांक दृश्य कविता म्हणूं येतात. ताच्यो चडश्यो कविता मुक्तछंदांत आसात. पूण छंदांतल्या कवितांनीय मनोरायान खूब जाग्यांनी मेकळीक घेतिल्ली दिसता. 'भिरमुट्यांनो पिसोळ्यांनो' सारकेले कवितेंत

*'भिरमुट्यांनो-पिसोळ्यांनो / आंगणांत म्हज्या उडत येयात*
*वंयेर बसा पावळेर बसा / वांगडा आमी खेळया.'*

दुसरी वळ आनी चवथी वळ हांचें यमक जुळना. अशें आसलें तरी 'येयात' आनी 'खेळया' ह्या दोन उतरां मदले स्वर जुळटात. ताका लागून कविता आयकतना ह्या उतरां मदलें अंतर कानाक आडखळना.

*फातराक देव / मनशांनी घडयलो / मनशांनी पुजलो / मनशांनी तोडलो* अशें म्हणपी मनोरायाली कविता : *दीस उदेला आतां तरी उठात / नव्या मनूंक येवकार दिवंक* असो साद घालता. तिका आनिकूय नवेनवे फागूर फुट्टले अशी आस्त बाळगुंया. □□□

REGD. No. GOA 130